जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४५ : आंक ७ : मार्च, २०१९

✻ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

✻ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

✻ संपादपी :
आसावरी नायक

✻ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

✻ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✻ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

✻ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,००० /- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

९०

## मांडावळ...



भायले चित्र : अनिरुद्ध लेले
भितर्ल्लीं चित्रां : भरत जगताप, अनिरुद्ध लेले.



# कोंकणी तशेंच साबार चळवळींचो एक बुन्यादी फातर : दोतोर जयवंतराव सरदेसाय

**दिलीप बोरकार**

डॉ. जयवंतराव सरदेसाय म्हळ्यार आमचो आंकू आपले पिरायेचीं णव्वद वर्सां पुराय करता. आंकू म्हजे परस ३० वर्सांनी व्हड. पूण ताच्या म्हऱ्यांत रावत जाल्यार हांव ताचे परस ३० वर्सांनी व्हड काय म्हूण कोणाकूय दिसतलें. ताचें कारण म्हळ्यार आंकू आपले पिरायेचें केन्नाच घेवन बसना. ताच्या म्हऱ्यांत जे पिरायेचो कोण येता ताचे लागीं तो ताचे पिरायेचो जाता. तो माणकुल्यां कडेन माणकुलो जाता, तरनाट्यां कडेन तरनाटो जाता आनी तो जाण्ट्यां कडेन जाणटो कसो वागना, तांचे लागींय तो तरनाट्यांवरींच वागता पूण विद्वानाचे जाणवायेन, भरिल्लो कळसो कसो.

आंकूक खबर आसा, जाण्टेपण म्हळ्यार जिवितांतलो त्रासदिणो, उबगणीचो काळ. तो सगळ्यांच्या वांट्याक येता आनी येवपाचो आसा. तो चुकना, चुकोवंक येना. तेन्ना म्हातारपणांतली पिरंगण घेवन आपले उबगणींत हेरांक आस्पावन घेवंचे परस आपणेंच अशे तरेन वागप, जाका लागून जाणटेपणाक लागून मनशाक एक ग्रेस येतली. ताकाय सगळ्याक येवकार मेळटलो. आमचे मर्दी हो पिरंगणीचो जाणटेलो कित्याक असो त्रासीक भाव खंयचेच पिरायेच्या मनशाक आफुडचोना. आंकूचो होच ग्रेटनेस आमकां आवडटा. ताचे वांगडा व्हिस्कीचो पेग घेत ताच्यो गजाली आयकूंक उबगण येना. आंकू हो

'जाग' म्हयनाळ्याचे प्रकाशक इतलीच डॉ. जयवंतराव सरदेसाय हांची वळख ना. कोंकणीचे तळमळपी वावुरपी - कदेलां मांडपा पासून पुस्तकां आनी आंक खांद्यार मारून व्हरपी. कार्यकर्त्यांक हाड-व्हर करपी आनी फाटल्यान बसून फुडाऱ्यांच्या भाशणाक टाळयो मारपी, तोखेवपी... किटकशास्त्रांतले एक मोटे संशोधक, अमेरिकेंतल्या साबार देसांनी संशोधन करपी आनी गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांक आलाशिरो दिवन पुर्तुगालाची वायट नदरय ओडून घेवपी... पर्यावरणाच्या मळार तांणी केल्लो वावर तोखेवपा सारकोच... कसलेच बडेजाव ना. सादो रावपी... गोंयांतलो अपवादात्मक त्यागमूर्ती... खरो निजाचो गांधीवादी... २० मार्च दिसा ते आपल्या पिरायेची ९० वर्सां हुंपतात...

आपलेच पिरायेचो आपलो इश्ट दिसूंक लागता.

आतां इतलेच पासत आंकू आमकां आवड्य..? ना. आंकूं म्हाका तरी आवड्य तो आंकूं भितर आशिल्ल्या त्यागी भावने पासत. आपल्याक तांकता ते परी समाजीक वावर करप आनी ताचें पेरगांव घालप ना. कोणें आपल्या वावराची दखल घेवंची अशें मात्तूय तकलेंत हाडप ना.

आंकूंक हांव आदीं वळखतालों तो रवीन्द्रबाबांचो मेवणो म्हूण. रवीन्द्रबाबांलें घर म्हळ्यार म्हजें विद्यापीठ. थंय हांवें मनीस जावपाचें शिक्षण घेतलें. त्या विद्यापिठंत म्हाका जयवंतबाब मेळ्यले. रवीन्द्रबाब तांकां 'जयवंत' म्हूण उलो मारताले. तांची वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर भासाभास जाताली. ते वांगडाच बसून सिगरेटी फुंकताले. मागीर कळ्ळें हो जयवंत म्हळ्यार रवीद्रबाबांचो मेवणो. मोगाबाय म्हळ्यार मोगरें, रवींद्रबाबांची भयण ही तांची घरकान्न. पूण दोगूय इश्ट कशें वावुरताले आनी कोंकणीचे तशेंच हेर सामाजीक चळवळींत एकमेकांचे सहकारी कशे. काळ सरलो तशी जयवंतबाबां कडेन म्हजी इश्टागत वाडली आनी तो म्हजे खातीरूय 'आंकूं' जालो. हांव पिरवळा ज्या विद्यापिठंत मनीस जावपाचें शिक्षण घेतालों त्या विद्यापिठचे रवीन्द्रबाब जे म्हजे पासत उपरांत 'तातो' जाले ते कुलपती आशिल्ले. जाल्यार आंकूं एक प्रोफेसर. ताचे कडल्यान म्हाका खूब कितें शिकपाक मेळ्ळें.

आंकूंची घरकान्न मोगरेबाय खूब कर्तुत्वी ती शांतीनिकेंतनांत शिकल्या. सदाच आपल्या पांयार उबी. आंकूंच्यो हजार उचापती. तिणें भुरग्यांक वयर काडल्या आनी शिवण करून घराक अर्थीक हातभारय लायला. रवीन्द्रबाबा भशेनच ती करारी बायल. ते तुळेन आंकू अगळ-पगळ. पूण दोगांय एकमेकांक पुरक. आंकू मोटो संशोधक. गोंयच्या मोगान थपथपिल्लो आनी म्हत्वाचे म्हळ्यार रवीन्द्रबाबांच्या खांद्याक खांदो लावन वावुरता हाची मोगरेबायक तोखणाय.

आंकू कसल्या तरी विज्ञान शाखेंतल्यान पिएचडी केल्लो दोतोर. ती कितें हें म्हाका ताणें सांगून लेगीत केन्ना कळ्ळें ना. हांवें लक्ष दिलें ना म्हूण आसत घड्ये. आंकू पुर्तुगालाक आनी अमेरीकेक खंय तरी नोकरी करतालो. रवीद्रबाबांगेर नान म्हळ्यार माधवी नांवाचें चली आशिल्लें जाका हांव सुरवातीक रवीन्द्रबाबांली धूव समजतालों ती ह्या आंकूंची चली म्हणपाचेंय म्हाका खबर नाशिल्लें. इतलो हांव अरवळ. पूण त्याच विद्यापिठंत शिक्षण घेवपी आंकूची ही धूव उपरांत एका वैचारीक धाग्यान लागीं आयली आनी भाशीक चळवळींत तिच्या गिन्यानाचो म्हाका लाव मेळ्ळो. आंकून कोंकणी चळवळ आनी भाशाशास्त्र हाका माधवीच्या रूपान दिल्ली खूब व्हडली देण अशें म्हाका सदांच दिसत आयलां. माधवीन आपल्या कर्तृत्वान तयार केल्ली ही सुवात कोंकणींच्या इतिहासांत सदांच सुगूर उरतली. आंकूंय तेच पासत याद उरतलो.

आंकूंचें कोंकणी चळवळींत योगदान कितें..? कोंकणीं चळवळीन गोंयाक व्हड्व्हड फुडारी दिले. तांणीं त्या नाड्यार मिरयलेंय आनी जोड्लेंय. अजूनय ते मिरोवंक सोदतात आनी तशी संद मेळ्ळीना जाल्यार धुसफुसतात. पूण आंकू हे चळवळीचो भुमीगत कार्यकर्तो कसो सदांच वावुरला. ताणें माचयेर येवन भाशणां तापोवनात जायत, पूण चळवळीक घटाय हाडपा पासत वैचारीक योगदान दिलां आनी तितलेच तांकीन, आपूण उच्च शिक्षीत, विदेशांतल्यान आयिल्लों शास्त्रज्ञ अशें अडेचें मोठेपण मनांत बाळगिनासतना कदेलां लेगीत मांडपाचें काम केलां. ताची हीच देख घेवन चळवळी मुखार व्हरतलो जाल्यार हाताक लागता तें काम करपाची तयारी बाळगूंक जाय म्हणपाचें शिक्षण आमच्या सारख्यांक मेळ्ळें.

आंकू हेय पिरायेर समाज सेवा करपाक आपल्याक कोण आपोवंक येतलो हाची वाट पळयत बसना. जें जें गोंय आनी देशाच्या हिताचें अशें ताका दिसता तें तो कसलीच लज भीड धरी नासतना करता. आपल्याक कोणाचो आधार मेळटलो काय ना हाचीय तो वाट पळयना. वाटेर जो कोण मेळटा ताका तो मागी नासतनाय मजत करपाक सदांच मुखार आसता. जेन्ना तो स्वता गाडी चलयतालो तेन्ना वाटेर कोणाकूय लिफ्ट जाय पडली जाल्यार गाडी थांबोवन ताका गाड्येंत घालून, वांकडी वाट करून ताका घरा मेरेन पावोवप हो आंकूंचो सभाव.

आंकूंच्या ह्या सभावाक लागून कितलेच लोक, जांकां आंकूंन आयुश्यांत केन्नाच पळोवंक ना ते आंकू कडेन येवन कितें ना कितें व्हरताले. केन्ना केन्ना आंकू आपूण जावन तांकां कितेंय व्हरून दितालो. माधवीन तांचे विशीं.. म्हजेय विशीं म्हूण जें आपल्या जिविता संबंदी पुस्तक बरयलां तातूंत हे प्रसंग विस्तारान आयल्यात. हे मुद्दम वाचपा सारकें आसात. जातूंत एके धुवेन आपल्या बापाय विशीं उक्तायल्लें मत वाचूंक मेळटा आनी नात्याचो एक धागो अचळय उसवत व्यक्त जाता. आंकूंची ही समाजसेवा खंयच नोंद जावं नाका, पूण अशें हें हेरां पासतचें सुंदर आयुश्य हांसत खेळत जियेवं येता हाची दिक्षा आमच्या सारख्यांक मेळटा तेंच खूब जाता.

म्हातारपणार कशें जगचें असो प्रस्न हेरांक पड्य जायत, पूण म्हजे सारख्याक पडना. ताचें कारण आंकू. आंकू निर्धास्तपणान जियेता. ताका आपल्याक णव्वद वर्सां जालीं हाचें भान आसा पूण तो तांचो हिशेब दवरना. अजूनय ताका आपल्याक कोणें चलतना आधार करचो अशें दिसना. आमचे सारके ताचे मित्र मेळ्ळे काय ताका आनंद जाता. तांचे वांगडा बसून एक व्हिस्कीचो पेग घेवपाक आमकाय खोस भोगता. कंटाळो येना. ताचें कारण आंकू भितर कशें जगचें हाची कला आसा जी तो आमच्या सारख्यांक आपले वागणुकींतल्यान शिकयता.

आंकूंक तीन भुरगीं. तिनूय कर्तृत्वी. अकालीं आपलो वावर अर्ध्यार उडोवन गेल्लें माधवी, विद्यापिठंत प्राध्यापकी करपी सविता आनी आयज गोंय सरकारचो मंत्री आशिल्लो विजय हांणी आपले परीन कर्तृत्व गाजयलां. तीच तृप्ती आंकूंच्या मुखामळार दिसून येता. ताच्या ह्या तृप्त जिवना फाटलें हेंच गुपीत आसूं येता.

आंकूंक ताच्या णव्वदाव्या वाडदिसाचीं परबीं दितनाच ताणें शतक हुपचें अशें ह्या समयार म्हणन दिसता.

संपर्कः 9822136885

# आंकूं, नॉट आऊट ९०!

सुशांत कुंकळ्येकार



दोन विद्वान मनशां, म्हाका केन्ना विद्वान दिसलींच नात. तांतलें एक म्हणजे डॉ. माधवी सरदेसाय आनी दुसरो माधवीचोच बापूय डॉ. जयवंतराव सरदेसाय, म्हळ्यारच आमचो सगल्यांचो आंकूं. खरें म्हळ्यार दोगांचेंय संशोधनाच्या मळार व्हड काम. पूण म्हाका मात ह्या कामापरस तांचे सगल्यां कडेन आशिल्लें 'आपलेपणच' भावलें. दोगांय तशीं सादीं. भपको दाखोवपी न्हय. आंकूं तर माधवीपरसय सादो.

आदीं हांव केन्नाय रातचो न्हिदपाक राजू नायकागेर रावतालो. चडसो रातचो उसरांच तांगेर पावतालो तेन्ना आंकूंन म्हजें हांतरूण घालून दवरिल्लें आसतालें. दुसऱ्या दिसा सकाळी उठून हांव दांत घांसपाक वता थंय आसा, आंकूं म्हजें हांतरूण स्वता कवळून दवरत च्या घेवन हजर...

हें पळोवन केन्ना केन्ना दिसतालें, युनोंत काम केल्लो शास्त्रज्ञ तो होच काय? कारण, आंकूंन केन्ना आपलें विद्वत्तेचो झेत दाखोवंकच ना. आंकूं खरो किटाणू शास्त्रज्ञ, पूण आंकूं आपल्या अभ्यासाच्या गजाली परस अदीक रंगतालो तो क्रिकेटीच्याच खबरांनी. क्रिकेट हो आंकूंचो वीक पॉयंट!

जायत्या जाणांक खबर नासतलें आकू हो बऱ्यापैकी क्रिकेटर हें. आपले तरणे पिरायेंत आंकूंन क्रिकेटीचें मैदानय गाजयलां. तो बऱ्यापैकी विकेट किपर. आंकूं जेन्ना चौगुले कंपनींत आसलो, तेन्ना चौगुलेच्या क्रिकेट पंगडाचो तो विकेट किपर. आंकूं दिलीप सरदेसाया सारक्या खेळगड्या वांगडा खेळ्ळा. पूण आंकूंन ताचोय केन्ना भपको दाखोवंक ना. केन्नाय आंकूं रंगार येतालो तेन्ना तो म्हाका ह्यो आदल्यो क्रिकेटीच्यो खबरो सांगतालो. किपींग करताना आपल्या हातार बॉल आपटून आंगठ्याचें हाड कशें वांकडें जालां तेंय दाखयतालो.

अशें जरी आसलें तरी गोंयचें पर्यावरण हो विशय चर्चेक आयले उपरांत आंकूंमदलो पर्यावरणप्रेमी चवताळून जागो जातालो तेंय हांवें पळयलां. 'ह्या राजकारण्यांनी गोंयची सामकी वाट लायल्या, चोर सगले' अशें म्हणटना पुर्तुगेज भाशेंतली एक सणसणीत गाळ तांच्या तोंडांतल्यान येतकीच पर्यावरणा कडेन कॉंप्रोमायझ नाका अशी तांची भुमिका.

गोंयांत कोंकण रेल्वे धांवपा फाटल्यान आंकूंचो म्हणजें डॉ. जयवंतरावांचोय वांटो आसा, हें कितल्या जाणांक खबर आसा? सध्या ज्या मार्गा वेल्यान कोंकण रेल्वे धांवता त्या मार्गाक सुरवेक बरोच विरोध आसलो. ह्या मार्गाक विरोध करपाक चर्चिल आलेमांव, राधाराव ग्रासियस सारख्या दक्षीण गोंयच्या राजकारण्यांनी आंदोलन उबारिल्लें. माथानीय तातूंत आसलो. ह्या मार्गान कोंकण रेल्वे धांवल्यार गोंयांतलीं खाजनां बुडटलीं. करमळेच्या तळ्याची वाट लागतली, गोंयांत मलेरिया सारकीं दुयेंसां पातळटालीं असो प्रचार जातालो. मुख्य म्हणजे ह्या आंदोलनाक इगर्जेचोय तेंको आशिल्लो. ते खातीर वातावरण सामकें तापिल्लें.

ह्या अशा वातावरणाक लागून गोंयांत ही रेल्वे येनासतनाच बी रावना मूं असो दुबाव येवपाक लागिल्लो. अशा वेळार नियोजीत मार्गानच रेल्वे गेली जाल्यार कसलेच प्रकारान पर्यावरणाची वाट लागची ना असो जो निर्णय जालो तो जयवंतराव सरदेसाय हांकां लागूनच. युनोत किटाणू शास्त्रज्ञ म्हूण काम केल्ल्या जयवंतरावांनी आपल्या अभ्यासांतल्यान हें पटोवन दिल्लें.

कोंकण रेल्वे खातीर राज्याच्या पर्यावरणाचेर कितें परिणाम जावंक शकतात हाचो अभ्यास करपा खातीर कमला चौधरी हांणी ते समितीचेर डॉ. जयवंतराव सरदेसाय हांची नेमणूक केल्ली.

त्या वेळार तांणी आपल्या अहवालांत आसा त्या मार्गानच रेल्वे गेली जाल्यार गोंयच्या पर्यावरणाचेर सगल्यांत उणो परिणाम जातलो. पर्यायी मार्गा वेल्यान गेल्यार पर्यावरणाचो इबाड अदीकच जातलो अशें म्हणिल्लें. त्या वेळार ही रेल्वे गोंयच्या भितरल्या वाठारांतल्यान म्हळ्यार अंत्रूज म्हालांतल्यान व्हरची अशी मागणी जाताली. आयज कोंकण रेल्वेक लागून जी सोंपेपणां गोंयकारांक मेळ्ळ्यात तीं पळयल्यार डॉ. सरदेसाय हांचें गोंयां खातीर आशिल्लें योगदान कोणाच्याय लक्षांत येतलें.

गोंयांत येवपी कोंकण रेल्वेचीं स्टेशनां हाताळपा खातीर गोंयच्या तरणाट्यांक हुबळीक प्रशिक्षण घेवपाक धाडचे ही सुचोवणीय तांचीच. युनो मेरेन प्रवास करपी. कोंकण रेल्वे गोंयांत येवची हे खातीर येसस्वी यत्न करपी एक नामनेचो शास्त्रज्ञ मडगांवांत रावता हाची कोणाकूय जाणीव आसा काय? कारण जी रेल्वे गोंयांत येवची म्हूण लोकांचो विरोध आसतनाय आपलें म्हणणें पटोवन दिवपी आनी कोंकण रेल्वेचो गोंयांतलो प्रवेश सोपो करपी डॉ. सरदेसाय हांकां हांवें कोंकण रेल्वे स्टेशनार स्वता लायनीत उबो रावन तिकेट काडतना पळयला. गर्दैतलोच

एकलो जावन. मात तांकां हे विशीं खेदय जालो ना आनी खंतय. तेच खातीर आंकू म्हणजें कसलें रसायन हें कळटा. आनी तांच्या ह्या सभावाचें अजापय जाता. एक सादेशें पेंट आनी बुशकोट घालून भोवपी हो मनीस येदो व्हडलो शास्त्रज्ञ हो प्रस्न कोणाकय पडटा तो तेच खातीर.

डॉ. जयवंतराव सरदेसाय हांचो सगल्यांत व्हडलो गूण म्हणजे ताचे कडेन आशिल्ली तटस्थता. (माधवी संवसाराक अंतरलें तेन्नाय ते हेच तटस्थतायेन वस्तुस्थितीक फुडे गेल्ले). हेच तटस्थतायेन तांणी आपलो आयजवरचो आपलो जिणेचो प्रवास पळयला. आपले विशीं उलयतना तांणी एकदां म्हणिल्लें, 'हांव मुळात जीवशास्त्रज्ञ. पूण ह्या विशयाच्या आवडीतल्यान जाल्लो न्हय. म्हाका वैजकी दोतोर जावपाचें आसलें. पूण तें जमूंक ना म्हूण हांवें ही वाट धरली.' अशें जरी आसले तरी तांणी ह्या किटाणू शास्त्रांत जे संशोधन केला तें पळयल्यार ह्या विशयांतली तांची हुकूमत दिसून येता.

डॉ. सरदेसाय पदवीधर जाले उपरांत शेती अभ्यासक्रमाची पदव्युत्तर पदविका पुराय करपा खातीर आनी नॉटींगहॅम विद्यापिठाची एमएस्सी पदवी मेळोवपा खातीर तांणी एडिनबर्गची वाट धरली. किटाणू शास्त्राचेर हुकूमत आशिल्ल्या डॉ. सरदेसाय हांणी एन्डोक्रायनोलॉजीचो (थायरॉयड विरोधी वखदांच्या प्रभावाखाला नुस्त्यांचे वर्तन) सखोल अभ्यास केला. तांचें हें संशोधन पुर्तुगीजींतल्यान प्रसिद्ध जाल्ल्या आंतरराष्ट्रीय निबंधात आयिल्लें. ह्या निबंधा खातीर आंतरराष्ट्रीय शिक्षण संस्थेंत शिश्यवृत्तीचेर काम करपाची संदय तांकां मेळील्ली.

१९७६ वर्सा ते गोंयांत परत आयले. ते आदी १९५८ त तें गोंयां आयिल्ले. मुरगांव बंदरांत साठोवन दवरिल्ल्या गवाच्या सांठ्याक किटाणूची बादा जाल्ली. ताचेर अभ्यास करपाचे मोहिमेचेर तांकां पुर्तुगेज सरकारान धाडिल्ले.

मुळांतच चळवळी वृत्तीचे आशिल्ल्यान डॉ. सरदेसाय गोंय मुक्ती उपरांत परत गोंयां आयले. चौगुले शिक्षण संस्थेचे सल्लागार म्हूण ते रुजू जाले. मात मडगांवच्या चौगुले महाविद्यालयांत विद्यार्थ्यांनी वेवस्थापना आड भुमिका घेतलींय त्या वेळार डॉ.सरदेसाय वेवस्थापना वांगडा रावपाचे बदला विद्यार्थ्यां वांगडाच अदीक आसले. तेन्नाच्यो महाविद्यालयांतल्यो यादी तेन्नाचे चौगुलेचे विद्यार्थी आयजय सांगतात.

पर्यावरणाचेर जागरूक आशिल्ल्या डॉ. सरदेसाय हांच्याच प्रयत्नांतल्यान निर्मल विश्व आनी पिसफूल सोसायटी कडेन तांचो संबंद आयलो. कोंकणी आनी गोंय ह्या दोन मुद्दया कडेन आत्मियतेन पळोवपी डॉ. सरदेसाय हांचो राजभास आंदोलनातय वांटो आसलो. ह्या आंदोलना खातीर 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ही संघटना उबी केल्ली ते संघटनेचे डॉ. सरदेसाय हे संस्थापक वांगडी. कोंकणी भाशा मंडळाच्या मुळाव्या शाळेची बुन्याद घटमूट करपाकय तांचो मोलाचो वांटो आसा.

गोंयांतल्या मलेरिया निर्मुलन चळवळींतय तांचो मोलाचो वांटो आसलो. राजकारण हे खरें तर तांचे कालेतीक सोबसारकें न्हय. तरीय तेय जनता पार्टी कडेन वळिल्ले. १९७७ वर्सा आणिबाणी उपरांत जाल्ले विधानसभा वेंचणुकेंत तांणी वास्कोंतल्यान जनता पार्टीच्या उमेदवारीचेर वेंचणूक लडयिल्ली. पूण ते उपरांत तांणी राजकारण सोडलें.

ते राजकारणा पासून पयस जाल्ले तरीय समाज कारणा कडल्यान पयस जालें नात. गोंयांत कशा कशेंय वाडिल्ल्या पर्यटनांक तांचो विरोधच आसलो. स्वयंपोशक पर्यटन ही संकल्पना तांणी उखलून धरिल्ली. गोंयच्या दर्यावेळांनी जीं बेसुमार पांच नखेत्रीं हॉटेलां उबीं जालीं तांकांय तांचो विरोधच आसलो. आयजय तांची ही भुमिका बदलिल्ली ना.

एक अगळ-पगळ असो बुशकोट, सादेशे पेंट आनी तसलेंच जोतें घालून भोंवपी आमचो आंकू येदो व्हडलो विद्‌वान मनीस हाचेर कोणाचो विश्वास बसत? आकूचेर माधवीन एक लेख बरयला तो वाचल्यार भुरग्यां मदीं रमपी डॉ. जयवंतराव ही आनीक एक तांची वळख जाता.

एक दीस डॉ. सरदेसाय म्हज्या केपेंच्या फ्लॅटार आयिल्ले. म्हज्या घरान म्हज्या भुरग्यांनी सगलीं खेळणी सगले कडेन पातळावन दवरिल्ली. हें पळेल्यार कोणाकय दिसपाचें, कितें हें घर? मात आंकून घरान पावल घाल्ले आनी ताच्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं, 'वा! काय बरें सगले कडेंन भरिल्लें हें घर!' आकूक भुरग्यांची खूब आवड...

आंकू पाजीफोंडांत राजू-माधवी वांगडा रावतालो तेन्ना लागींच्या झोपडपट्टेंतल्या भुरग्या वांगडाच अदीक दिसतालो. तेन्ना आपसूक एक प्रश्न उबो जातालो, होच तो युनोत काम केल्लो शास्त्रज्ञ?

तांच्या ह्याच सभावान तांची डॉ. जयवंतराव सरदेसाय ही बरी घसघशीत अशी वळख केन्नाचीच पुसून गेल्ल्या उरल्या ती एकूच वळख 'आंकू' हीच.

हो आमचो आकू अंदू ९० वो आपलो वाडदीस मनयतां. आंकूंचें आयचेंय वागप पळेल्यार तांणी ९० वर्सां पुराय केल्यात अशें कोणाकय दिसत?

संपर्क: 9689902705

# अलिप्त असो आंकू

कृपाली नायक

कोंकणींत कोणाकय जर निस्वार्थ शिकपाचो आसत जाल्यार तांणी आंकूक कडल्यान शिकचो. अत्यंत्य निस्वार्थी, सामको सोंशीक आनी तितलोच मनान खंबीर. म्हणून कितल्याश्याच दुख्खाक पचयतना, सतत कश्ट करतना, हसतमूख असो आंकू आमकां दिसता. कोंकणी हो ताचो ध्यास. 'आंकू' हो कोंकणींत फुडारी न्हय. जाय जाल्यार म्हणू येता कदेलां घालपी वा तीं पुसपी, गरज थंय तीं भरपाक एक सुवात जावपी असो कार्यकर्तो. इतलें न्हय तर ताका स्वतंत्र आपोवणें आसूंक जाय अशें साबार जाणांक दिसना आनी ह्या कोंकणीच्या भौवशीक कार्यावळींक आपणाक वेगळे आमंत्रण आसूंक जाय अशें आंकूंकय दिसना. म्हणून खंयचेय कार्यावळीक आंकूक आमंत्रण आसूं वा नासूं जर ताचे कडेन वचपाक जाता आसत जाल्यार आंकू थंय पावता. हालीच म्हळ्यार २७ ऑगस्टाक

तातोच्या पुण्यतिथी दिसा पिरवळा एक कार्यावळ आशिल्ली. थंय आंकूं पावलो. तेन्ना कार्यावळ सोंपत आयिल्ली. खरें म्हळ्यार हांव ताका फोन करूंक विसरिल्लें. आंकूंचें म्हणणे ''आऽऽ! उसरां पावलो. वेळ कसो जालो ते कळ्ळेच ना.''

आंकूं विशी जेन्ना जेन्ना चिंतता तेन्ना तेन्ना म्हाका खुबश्यो गजाली याद जातात. पयली गजाल म्हळ्यार. त्या घरांत आंकूं एकच जाचे कडेन पावतकच 'तुमकां, तुमी' ही आदरात्मक विशेशणां वतात. आंकूं 'हय आंकूं, ना आंकूं' जाता. आंकूंचें खरें नांव जरी जयवंतराव सरदेसाय आसलें तरी 'आंकूं' ह्या आपल्या नांवाचो ताका खूब मोग. सावीन म्हजे चलयेन आंकूंक एक दीस मेळिल्ले कडेन आजो म्हणत जाल्यार ''आपूण भुरग्यांचो आंकूं हां'' म्हणत आंकून आपली वळख करून दिली. भुरगें म्हळे काय आंकूं तांचे वांगडा भुरगोच जाता. ताच्यो जायत्यो देखी आसात. एक सादीशीं गजाल सांगपाची जाल्यार माधवी सरदेसाय (मॅडम) हांच्या घरा लाग सर आशिल्ल्या भुरग्यांक दूद पावोवपाचो. तो जेन्ना गाडी घेवन भोंवतालो तेन्ना ताच्या गाडयेंत घरांत दिवपाच्यो सोडून सात आठ दुदाच्यो पिशव्यो आसताल्यो. त्यो मागीर त्या वाठारांतल्या भुरग्यांक दितालो. एक दीस अशेंच विचारलें जाल्यार, म्हणपाक लागलो 'गरीब भुरगें ते हांव दिसलो जाल्यार आंकूं आंकूं करून येतात. ह्या भुरग्यांक लागीं करूंक जाय. तांकां कोंकणी शिकोवंक जाय. नातरां भोंवतणी आनी चड करून तुकी भोवतणी तर ताणें आपलें पुराय विश्वच एकठांय केल्लें. एक दीस मॅडमीन म्हणले लेगीत, 'तुकी म्हळ्यार आंकूंचे विश्व जालां देखून ताच्या बारीक बारीक गजालींचेर ताचे लक्ष आसतां आनी हांव हुस्क्या मेकळें आसता.'

हालीच घरकारा वांगडा पणजेच्यान मडगांवां मोटरसायकलीन येतालें. ''भूक लागल्या'' ताणें म्हळें आनी गाडी पिलारच्यान घेतली. वाटेर पिलार कॉलेजी कडेन सकल आशिल्ल्या विठ्ठल भुवनांत आमी भितर सरलीं आनी म्हाका आंकूंची याद जाली. 'जाणां मरें हें आंकूंचे फॅवरेट हॉटिल हां हांगाची मिरची आनी भाजी आंकूंक खूब आवडटा.' हांव आंकूंच्या विचारांनी गुल्ल जालें. 'जागा'चीं बिल्लां हाडपाक जावं जायराती दिवपाक केन्नाय आंकूं वांगडा पणजे वतालें तेन्ना येतना ह्या हॉटेला कडेन आंकूंन मुद्दम रावप. 'ह्या हॉटिलांतली भाजी मुगो बॅस्ट.' ताणें आपली गाडी हाडून वॉल्ताच्या मात्शी मुखार थांबोवप आनी आमी चलत वचून ती भाजी खांवप. लॅक्चर बेसीस सर्वीस लागतकच एक दीस हांवें ताका पयशे हांव दितां म्हळें जाल्यार ''हेंऽऽऽ'' म्हणत वक्लांतल्यान दोळे वयर काडून पळोवंक लागलो. त्या दिसा भाजी खातां खातां बेश्टेच मनाक दिसलें आता आंकूंक याद येता काय त्या भाजयेची?

'जागा'चें पॅकींग आसूं जावं 'जाग' पोस्टांत घालपाचें आसूं आंकूं ते पॅकींग सोंप मेरेन कमराक बेल्ट घालून आपूणय ते काम करपाक बसतालो. त्या भायर 'जाग' पोस्टांत घालप, 'जाग' येतकच ते जाग्यार घालप ही सगळींच कामां तो करतालो. तशेंच पॅकींगाच्या दिसा रातचें म्हाका बॉलेपायणी मेरेन पावोवपाचें काम आंकूंचे. रात आशिल्ल्यान लोक गाडी कशेय चलयताले. तेन्ना आंकूंचे सिविक्स सेन्स आनी भारत हाचेर सुरू जातालें. 'भारतांतल्या लोकांक सिविक्स सेन्स म्हणटात तो ना कशोय गाडी चलयतात.' ह्या वेळार आंकूंच्या गाडयेची स्पीड वाडटाली 'आंकूं तूं फास्ट चलयतां' म्हण सांगल्यार 'आपूण भायल्या देशांनी गाडी चलोवन आयिल्लो, गाडी कशी चलोवप ते म्हाका सांगनाका हांव जाणां.' अश्या वेळार ओगी रावप शाणेपणाचें म्हणून हांव गाडयेंत ओग्गी बसतालें. रवीन्द्रबाब हॉस्पिटलांत आशिल्ले तेन्नाय रातचें आंकूंच म्हाका घरा पावयतालो. आतां आमचें बस्तान माडेलांत हालिल्लें. ओशियाच्या सामकार आशिल्ल्या बिल्डींगेंत. आंकूं गाडी रस्त्यार थांबोवंक सोदीना आनी हांव ताका भितर घेवंक दिना. अश्या वेळार हांव घरा मेरेन पाव सर आंकून रस्त्यार रावप आनी तो रस्त्यार आसा म्हण हांवें धांवप. हो कितल्याश्याच दिसांचो नेम आशिल्लो. तातो हॉस्पिटलांत आशिल्ले तेन्ना आंकूं हालिल्लो. कितलोसोच तेंप सिगरेट पिना आशिल्लो तो त्या दिसांनी परत सिगरेट ओडपाक लागलो. विचारल्यार म्हणटा, ''म्हजे परस चड व्हड न्हय तो. पळोवंक नजो गो म्हज्यान ताका.''

तो दिवपी ताका दिवपाक आवडटा. मळकर्ण्यां ताका आवडटा. थंय कितें तरी जावचें चड करून थंय शिक्षणीक संस्था उबारची अशें ताका सदाच दिसतालें. ते विशीं ताणें जायते फावटी म्हाका सांगिल्लें. हालीच वर्स भर फाटी एक दीस अचकीत म्हाका रातचो फोन आयलो. 'हांव मळकर्ण्यां भुरग्यां खातीर स्कूल बांदता. तें स्कूल बांदपाक म्हाका तुजी मदत जाय तुजें नांव म्हाका आसावरीन सुचयलां आनी म्हाका तें पटलां. म्हाका कितें उलवप ते सुचच ना जालें. काय दिसां उपरांत ताचे वांगडा प्रवास करतना ताका 'म्हणले आयज गोंयांत आधुनीक शिक्षण सगळे कडेन पावला. वेगळ्या शिक्षण संस्थेची गरज म्हाका दिसना. आंकूं तुमच्या पिडयेचें बरें आसा. तुमचे सगळे पळोवपाक वेळ दिवपाक लोक आसात. आमी जाणटीं जातलीं तेन्ना कितें आमी आमच्या भुरग्यांक आमचे खातीर बांदून दवरूंक शकची ना. जाता जाल्यार मळकर्ण्यां एखादें जाणट्या घर जाय. जें सगळ्या जाणट्यांक सगळ्यो आधुनीक सूख सुविदा दिवन समादानान दवरतलें. तशेंच तें खर्चीकय आसचें न्हय सर्व सामान्याक परवडूंक जाय आनी मुखेल म्हळ्यार तातूंत समादान मेळूंक जाय. पयसो हो ताचो उद्देश आसचो न्हय. जाल्यार ते बूक करपी सगल्यांत पयलें हांव आसतलें. ''बरें मगो तूं खूब फुडलो विचार करता.'' म्हणत आंकूं फकत हासलो...

आंकूंच्या म्होवाच्या खरेदी विशीं मॅडमीन आपल्या पुस्तकांत सविस्तर बरयलां. पूण ते म्होव आमच्या मेरेन पावोवपाचें कामय आंकूंनच केला. केन्ना घे म्हण पोपायो घेवपी आंकूं, केन्ना ''उठ तुका जमना तें'' म्हणत बेस बरी च्या करून दिवपी आंकूं. केन्ना अशेंच तें म्हणत आपलो हट्ट करपी आंकूं, केन्ना उमेदीन मामाच्यो खबरी सांगपी आंकूं , केन्ना क्रिकेटींत गुल्ल जावपी आंकूं. आनी केन्ना कोंकणीचे आपले अणभव सांगतना मग्न जावपी आंकूं. असो जायत्या रुपांतलो आंकूं हांवें पळयलां. मडगांवां आसा म्हण सांगतनाच केन्नाचोच साळगांवां सवितागेर पाविल्लो आंकूं गाडी नासत जाल्यार बसींतल्यान मनात मारता तेन्ना भाविल्लो आंकूं आनी भुरगीं आता म्हाका फोन करनात गो म्हण बारीक खंत उक्तावपी आंकूं. हांवें जायते फावटी पळयला. आंकूं म्हणटकच म्हाका सदांच याद जाता ती 'तृप्त हांव फकीर हांव' ह्या निबंदाची. असोच कसो जगिल्लो हो मनीस खंत ही ताच्या तोंडार केन्नांच दिसली ना.

संपर्कः 9765187606

# आमी तरणाट्यांप्रती आमचे लागणुकेक पाळो दिनात

दिनेश मणेरकार



तरणाट्यांक कोंकणी भाशेकडेन ओडप हें एक मोठें कठीण काम. खंयच्याय कामाक माथें मारल्यार तें कठीण उरना. वजें ल्हव जाता आनी काम जावन पडटा.

जायते वेळा भौशीक कार्यावळींनी तरणाट्यांचेर शीण काडप जाता. ते साहित्य वाचनात, ते कोंकणी वाचनात तांकां कोंकणीचें पडून गेल्लें ना अशे साबार आरोप तांचेर जातात आनी लागीं आयिल्लेंय तरणाटे पयस वतात.

हे फाटभुंयेचेर म्हाका केन्नाय प्रस्न पडटा... आमी तरणाट्यांक कोंकणी कडेन लागीं हाडपाक कितें केलां? आनी मागीर मनांत विचारांचें वादळ जाता... आनी कोंकणीचो फुडार धुसर जालो दिसता.

खंयचीय चळवळ ही एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे कडेन मानान हस्तांतरीत जावपाक जाय. ती मागीर भाशीक चळवळ आसूं वा साहित्यीक चळवळ आसूं. हें हस्तांतरण जर जालें ना जाल्यार ते चळवळीचें मरण निश्चित आसा.

आज कोंकणीची साहित्यीक चळवळ तेच दिकेन वचना मूं?

कारण तरणाटो साहित्यीक वा युवा साहित्यीक घडचो म्हण आमी कसलोच वावर केल्लो दिसना. जो कितें सुरू केल्लो तो दिशाहीन जावन शेणपाक लागला. आनी कांय संस्था आपले परीन हे खातीर धडपडटात तांची मोख साध्य जाल्ली दिसना.

साहित्यीक कसो घडटा? आज वेरचो प्रोसेस सादारणपणान असो.

मनशाक तरणाटेपण येता तेन्ना ताका स्वताचें लेखन करपाची इत्सा जाता. ह्या काळांत चड करून काव्य सुचता. ह्या काळांतलें वाचन ताच्या लेखनाक पोशक आधार दिता कांय वेळार ही बरोवपाची कूय (उर्मी) मुखार चालू उरता आनी तातूंतल्यान बरोवप निरंतर चालू उरता. बरोवपी घडटना पयलें वाचन महत्वाचें. वाचन म्हणटना फकत पुस्तकी वाचन न्हय. वाचन सैमाचेंय जावंक जाय. वाचन समाजाचें जावंक जाय. वाचन मनशांचें जावंक जाय. मनशांच्या सभावाचें आनी प्रत्येक परिस्थितींत मनीस वेगळे वेगळे तरेन कशे वागतात हाचें निरिक्षणात्मक वाचन जावपाक जाय. कादंबरी सारख्या लेखन प्रकारांत जेन्ना मनशांचें दीर्घ काळाचें चित्रण येता तेन्ना एक मनीस वेगळ्या वेगळ्या घडणुकांत आपल्या सभावा प्रमाण कसो वागतलो हाची वाचप्याक पटपा सारखी कल्पना जर बरयतलो जाल्यार सभावांचें मानसशास्त्र शिकपाची गरज आसता. हें मानसशास्त्र छपील पुस्तकांनी मेळचेंना. तें जग नांवाच्या चलत्या भोंवत्या पुस्तकांनीच मेळटलें. ताचो अभ्यास बरोवप्या खातीर खूब म्हत्वाचो.

ह्या सगळ्या वाचनाचें, निरिक्षणाचें बरपांत रुपांतर करचे पयलीं तें मन नांवाच्या बुयांवांत विचारांचें सारण घालून बरें करमेवपाक घालूंक जाय. ह्या घडणुकांचेर वा बरोवप्याच्या मनांत आकार घेवपी व्यक्तिमत्वांचेर कांय दीस मनन जावपाक जाय. ह्या मननांतल्यान कांय दिसां उपरांत वेणो येवपाक लागतात. सामकेंच सोसूं नज जावपाक लागता तेन्ना जें सुचता ताका कागदाचेर शब्दरुपांत मांडपाक जाय.

नवशिक्या बरोवप्यांचे जिणेंत ही स्थिती खूब उसरां येता. कारण आपूण साहित्य रचपाक शकतां हाची जाण येतकच आपलो पिंड कसलो म्हळ्यार कथाकाराचो, कादंबरीकाराचो, निबंधकाराचो, काय कवीचो हें थारावपाक तो सांसपत रावता. हातूंत ताची क्रिएटीव्ह आयुश्यांतली तीस चाळीक वर्सां फुकट वतात. हांव म्हणटां "Catch them young!!"

ज्या युवकांत वा तरणाट्यांत लेखनाचो स्पार्क आसा वा जांच्या लेखनांत चमक आसा अशे भुरगे वेंचून तांचेर लेखनाचे आनी वाचनाचे संस्कार करपाक जाय. साहित्यीक मळार प्रस्थापित आनी नांवाजते अश्या बरोवप्यां कडल्यान तांकां मार्गदर्शन करून तांची साहित्य प्रकाराची दिका थारावची आनी तांकां साहित्याचे नवे प्रकार, साहित्य लेखनांतले नवे प्रयोग, भारतीय भाशांतलें साहित्य, परदेशांतलें साहित्य, सोद कादंबरी अशे तरेच्या साहित्याची वळख दिवची. अशें केल्यार आमचे मदीं घडये तरणे पिराये वेले बरे साहित्यीक तयार जातले.

तरणाट्यांक अभ्यास करतलो जाल्यार आमचे कडेन विशय खूब आसात. आमचेर राज्य करपी कदंबाची राजवट, ताचे पयलींच्यो राजवटी, गोंयांतल्यो कदंबाच्यो खुणो, आमचे सण, रितीरिवाज हांचे कडेन कदंब राजवटीचें साम्य. मागीर अदिलशाही राजवट. पोर्तुगीज राजवट. त्या कळांतले मोंतेर सॉल्दाद हांचें जिवन. आदमिनीस्त्रदोर हांचें राहणीमान. ह्या सगळ्यां मदीं चिड्डून गेल्ली जनता, बाटाबाटींतलो संघर्श. कुटुंबां फुटलीं तांचे मदलो भावनीक संघर्श. हे जाले इतिहासांतले विशय. आयचे घटकेक गोंयांचे कितलेशेच विशय आसात. खणींचो

**अखील भारतीय कोंकणी परिशदेचें २४ वें साहित्य संमेलन फाटल्या म्हयन्यांत काणकोणां जालें. ह्या संमेलनांत कोंकणी भाशे मुखा वेल्या साबार प्रस्नांक जाप सोदपाचो यत्न केलो. कोंकणी चळवळ आनी तिच्या मुखा वेली आव्हानां ह्या विशयाचेर खडेगांठ विचार मांडपी दिनेश मणेरकार, चेतन आचार्य आनी नमन सावंत हांचे विचार ह्या आंकांत उजवाडायतात.**

विशय. गोंयांत चलतल्या ड्रग्स माफियांचो विशय. घुंवळे वखदांचो वेव्हार, ह्या वेव्हाराक लागून काबार जाल्ले संवसार आनी ह्या वेवसायाक लागून उभारी मेळिल्ले संवसार. घुंवळे वखदांक लागून लोकांनी आपले पारंपारीक वेवसाय सोडून, हो धंदो आपणायिल्ले लोक, गोंयचें "नायट लायफ", कॅसिनो, रांपणकारांच्यो व्यथा, तांच्या धंद्यांत रिगिल्ले गोंयां भायले लोक, अशे शेंकड्यांनी विशय आसतले जांचेर विपूल लेखन जावं येता. पूण....

गरज आसा ती ह्या विशयांतलीं बिजां पारखुवपाची कला हीं बिजां आपल्याक जाय तशीं केळोवपाची कला, खंयचे घडणुकेक खंयचो साहित्य प्रकार योग्य जातलो हें थारावपाची कला. ह्या सगळ्यांचें शिक्षण ह्या तरणाट्यांक दिवप गरजेचें.

हे खातीर एक रचनात्मक कार्यावळ जाय. खंयचेय संस्थेन फुडाकार घेवन हो प्रयोग सुरू करपाक जाय. दर वर्सा कांय भुरगे घेवन तांच्यो कार्यशाळा घेवन तांकां ह्या विशयांत सज्ञान करून साहित्य निर्मणेच्या प्रवाहांत सोडपाक जाय.

कांय वर्सां पयलीं हे वैचारीक बुनयादीचेर एक उपक्रम सुरू जाल्लो. एका युवा महोत्सवांतल्यान आमी घरा येताले. हांव, प्रो. भास्कर नायक आनी संजय तळवडकार. हे वेळार भास्कर सरान एक उतर म्हणिल्लें, "गोंयची संस्कृती तरणाट्यां मदीं दवरपाची आनी फुडले पिळगे मेरेन पावोवपाची तजवीज जाली. पूण साहित्याचें कितें? युवा साहित्यीकांक वाव मेळटलो, तो डेव्हलप जातलो जाल्यार ताचे खातीर कितेंय तरी तजवीज जाय." आनी त्या उतराक आमी म्हणिल्लें, "युवा साहित्य संमेलन." हो एक पर्याय जाल्लो. युवा वर्गाचे साहित्य येवचें म्हणून कितेंय तरी जावचें हें सुत्र घेवन मागीर राजय पवार, संदेश प्रभुदेसाय, श्रीधर कामत, अनंत अग्नी, पूर्णानंद च्यारी आनीक हेर कांय जाणांनी मेळून हे कार्यावळीक रुप दिलें. सुरवेचीं कांय वर्सां युवा साहित्य संमेलन बरें चल्लें. कार्यशाळा बऱ्यो जाताल्यो. हातूंत मदीं आमी मंगळूरच्याय साहित्यीकांक आसपावन घेतले. ते हांगा येवन आमच्या युवा साहित्य संमेलनांत वांटेकार जाल्ले. विल्मा बंटवाल हें त्या युवा साहित्य संमेलनांत वांटेकार जाल्ले. आनी आज ताका ह्या वर्साचो साहित्य अकादमीचो युवा साहित्य पुरस्कार फावो जालो. ह्या युवा साहित्य संमेलनांतल्यान जायते साहित्यीक घडले. पूण फाटल्या कांय वर्सांत एक गजाल जाणवता ती म्हळ्यार जे पोटतिडकीन वा समरसतेन हें संमेलन आनी तातुंतल्यो कार्यशाळा, भुरग्यांचें साहित्य मागोवन ताचेर संस्कार करपाची प्रक्रिया जावपाक जाय तशीं हीं कामां समाधानकारकरित्या जायनात. तेय परस ती एक भोगावळ जाल्ले वरी दिसता. हें बदलपाची गरज आसा. ह्या वावराक एक रचनात्मक नदरेन परत एक फावट सुरवात जावपाक जाय कारण युवा साहित्यकांक एकठांय हाडपाची हीच एक कार्यावळ आमचे कडेन आसा. जिचे वरवीं आमी तरणाट्यांक बरोवपाक उर्बा दिवपाक शकतात आनी कोंकणी कडेन तांकां लागीं ओडपाक शकतात. भारतांतल्या कोंकणी तरणाट्यांक ह्या साहित्य संमेलनांत वांटेकार जावपाक आमंत्रण दिवन त्या राज्यांतल्या कोंकणी लोकां कडेन नातें जोडपाक शकतात. कांय वेळा जशें हें संमेलन गोंयांत जाता तशेंच तें केरळ, मंगळूर, मुंबय हांगाय जावचें आनी ते वरवीं भारतांतलो कोंकणी युवा वर्ग एकठांय येवचो हो हावेस बाळगून काम जावपाक जाय.



आज सरकारी खात्यां कडेन पयशे आसात. देखीक राजभाशा संचालनालय, कला आनी संस्कृती खातें, कोंकणी अकादेमी, ह्या खात्यां कडेन दर वर्साच्या अंदाजपत्रकांत कार्यावळीं खातीर तजवीज आसता. हे तजविजी प्रमाण साबार तरेच्यो कार्यावळी कोंकणी संस्था करपाक शकतात. तरणाट्यां खातीर ह्यो कार्यावळी जावच्यो म्हूण संस्थांनी फुडाकार घेवपाची गरज आसा.

आमचे कडेन तरणाट्यां खातीर अशें म्हयनाळें ना ताची गरज आसा. तरणाट्यांनी चलयल्लें तरणाट्यांचें म्हयनाळें असो लेगीत प्रयोग जावं येता.

आयचो तरणाटो, ब्लॉगांनी बरयता. ह्या ब्लॉग लेखकांची एक कार्यावळ, ब्लॉगार कशें बरोवप, तें लोकां मेरेन पावोवपाक कितें करपाक जाता अश्या संबंधीत विशयांचेर एक दिसाची कार्यावळ जावं येता. ब्लॉग वाचन अशीय कार्यावळ जावं येता. हातूंतल्यान युवा वर्ग संघटीत जातलो आनी तो कोंकणी समाजाक लागीं येतलो.

आमचे कडेन कोंकणींत दोन तरांच्यो वा दोन पातळ्यां वेल्यो संस्था आसात. एक कोंकणीच्या वावरा खातीर जाण्ट्यांनी उब्यो केल्ल्यो संस्था. ह्यो संस्था आज बरगेल्यात. कारण त्यो 'मदेरार' जायनात. ज्यो पाट्यो कंसबवेल्यात त्यो बदलप जायनात. ज्या कार्मीक बरड लागला तांचेंय बदलप जायना. नव्यो कामी नव्यो पाट्यो घालप जायनाशिल्ल्यान ह्यो संस्था कोसळपाक लागल्यात. एका तेंपार ह्याच संस्थांनी राजभास आंदोलना सारखो महत्वाचो लढो उबारिलो आनी कोंकणीक मानाचें स्थान मेळोवन दिल्लें.

आमचे कडेन दुसऱ्यो संस्था आसात त्यो युवा महोत्सवांत वांटेकार जावपी संस्था. ह्यो संस्था त्या त्या कामा खातीर उब्यो जातात. महोत्सवांत वांटेकार जातात. इनामां जोडटात आनी परतो युवा महोत्सव ये म्हण सर बंद जातात, ह्या संस्थां कडेन उर्जा आसा, शक्त आसा, पूण

तिचो वापर जायना. तिची शास्त्रोक्त वाड जायना.

ह्या संस्थांक मरण आयलां कारण आमी तांकां राज्य पातळेचेर वाव दिवपाक शकले नात. कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ आनी अखिल भारतीय कोंकणी परिशदो ह्यो आमच्यो म्हालगड्यो संस्था. कोंकणी अकादमी सोडल्यार हेर दोनय संस्थांनी, इतर कोंकणी संस्थांक वावुरपी समितींत स्थान ना. कारण तशी तजवीज तांचे नेमावळींत करूंक ना. कसलोच वाव नाशिल्ल्यान ह्यो संस्था निर्शेल्यात.

ह्या सगळ्या संस्थांचें, म्हळ्यार पोरण्यो संस्था आनी युवा महोत्सवांतल्यो संस्था हांचें एक फेडरेशन जाय. ह्या संस्थांची नोंदणी, तांचें काम आनी तांची मोख हाची दखल घेवपाची जबाबदारी ह्या फेडरेशनान उबारपाक जाय. ह्या संस्थांचें वर्सुकी संमेलन घडपाक जाय. संस्थांच्या वावराक दिशा मेळची म्हणून कार्यावळींची मोख ह्या फेडरेशनान ह्या संस्थां मुखार दवरपाक जाय आनी ह्या कार्यावळींत साहित्य, संस्कृती धरून ते सामान्य जनते खातीर आरोग्य विशयक, प्रबोधनात्मक, अश्यो कार्यावळीय आयोजीत करपाक जाय. हातूंतल्यान कोंकणी मनीस जाका साहित्याची आवड ना, सांस्कृतीक कार्यावळींची आवड ना पूण मनान तो कोंकणी असो हो लोक आमकां लागीं येतलो.

आमी इतलीं वर्सां फकत साहित्यीक चळवळ उबारल्या आनी ह्या असाहित्यीक लोकांक कडेक दवरल्यात. ताका लागून आमी Island म्हळ्यार जुंवो जाल्यात. समाजांतल्या हेर घटकां कडेन जोडपी पूल उबारपी हें फेडरेशन जावचें आनी युवकांनी ह्या नवे जोडणेची येजमानकी चलोवची!! कोंकणीच्या मळार एक नवो अध्याय सुरु करचो.

युवा महोत्सवांतलो कोंकणी तरणाटो कोंकणीचेर हावळ आयली जाल्यार ताचे आड झुजपाक एका पांयार तयार जाता. प्राणपणान झुजता आनी जैत ओडून हाडटा. अभिमान म्हाका आमच्या तरणाट्यांचो!! अशेच कोंकणी खातीर आनी गोंया खातीर खंबीरपणान झुजात. आनी स्वाभिमानान जगात!!

हें सगळें बरयतना एक विचार मनाक कोंचायता. तरुण पिढी आमच्या उल्याक उबी जाता, आमकां आधार दिता, जैत हातासता, असो तरणाटो दर वर्सा चार ते पांच हजारांचे संख्येन युवा महोत्सवांतल्यान तयार जाता.

पूण ह्या तरणाट्यांच्या आंगांत आशिल्ल्या कलात्मक गुणांक पोसवण मेळची म्हणून तांचे खातीर कितेंय करप हें आमचें कर्तव्य न्हय? तांच्यांतल्या कलागुणांची उदरगत जावंक ताका पोसवण दिवप ही आमची जबाबदारी न्हय? पूण आमी ते जबाबदारीन वागनात. आमी तरणाट्यां प्रती आमच्या कर्तव्यांक पाळो दिनात अशें खंतीन म्हणचें पडटा.

कांय कॉलेजींनी भाशेचे अध्यापक देखीक हनुमंत चोपडेकार, प्रकाश पर्येंकार अशे वा भौशीक मळार नमन सावंत, युगांक नायक, कलानंद बांबोळकार युवा कलाकारां खातीर कांय कार्यावळी करतात. तांची तोखणाय करपाची पूण गोंयच्या आनी कोंकणी प्रदेशांतल्या समेस्त तरणाट्या कोंकणी बरोवप्यांचो विचार केलो जाल्यार तांकां पुरक अश्यो कार्यावळी घडनात. समेस्त कोंकणी मनीस एकवटीत जातलो जाल्यार तो प्रयत्न नितांत गरजेचो.

आमी आज जर तरणाट्यांचें युवा साहित्य बरे तरेन केळयलें ना जाल्यार फुडाराक आमकां कोंकणींत जें साहित्य मेळटलें ते बाबत मेळपाचो धोको आसा. आमी म्हणटात आज साहित्याचो कस देंवला. बरें साहित्य मेळना... हाचीं कारणां सोदपाक जाय. हीं कारणां आमचेच कडेन आसात. हातूंतलें मुखेल कारण वाचन!! ह्या वाचनाचें लेखनांत कशें रुपांतर करप हाचें प्रशिक्षण ह्या तरणाट्यांक दिवपाक जाय.

आमी साहित्यीक मळार दिशाहीन वागतात. आमचे कडेन रिसोर्सीस आसात पूण Vision ना. आमकां आमच्या साहित्यीक मळाची मोख खबर ना. आमी ह्या दिशाहीन प्रवासांत खूब कितें शेणयत चल्ल्यांत. खूब कितें विसरत चल्ल्यांत.

तरणाटी पिळगी आशेन आमचे कडेन पळयता. पूण साहित्यीक मळार, प्रशिक्षणाचे नदरेंतल्यान आमी तांचो पोसो रिकामोच दवरला.

संपर्क : 9552551425

# घुस्पल्लें राजकारण

**चेतन आचार्य**

कोंकणी समाजांत पयलीं कोंकणीची सेवा करपाची मुल्यां जबर रूजिल्लीं आनी सगळीं जाणां निश्काम, निसुवार्थीपणान काम करतना दिसतालीं. एखादो आड्वाद आसूं येता. कोंकणी भाशा मंडळा कडेन पयली पयसो नाशिल्ल्या वेळार स्वताच्या घरातलें भांगर घाणाक दवरून पयश्यांची तजवीज केल्ल्याच्यो देखी आमचे मुखार आसात. खंयचेंय संमेलन, मेळावें आपल्या पदरचे पयशे घालून येशस्वी पणान घडोवन हाडपाचें काम पयली चलतालें ताच्यो देखीं आमचे मुखार आसात. कोंकणी व्हड आनी हांव ल्हान अशीच भावना प्रत्येकल्याच्या मनांत आसताली.

कोंकणीच्या मळार आयज मेरेन आमी साबार जैतां जोड्लीं. ह्या जैतां फाटलें मुखेल कारण म्हणल्यार कोंकणी मनशांचो एकवट. कोंकणी चळवळ ही प्रागतीक विचारांची म्हुणून खऱ्या अर्थान धर्म निरपेक्ष चळवळ अशें आमी मानताले आनी ती तशी आशिल्लीय बी. आयज परिस्थिती कितें आसा? आमचे राजकीय पक्षांनी वांटे घाल्यात, आमचे जाती धर्मांनी वांटे घाल्यात, आमचे लिपयांनी वांटे घाल्यात. पयलीं आमी 'कोंकणी पयलीं मागीर राजकारण' हें तत्व सगल्यांनी मानून घेतिल्लें. पूण आयज राजकारण आमच्या मस्तकाक मारलां. एखादो मनीस कोंकणी मनीस म्हुणून वळखुचे परस तो अमक्या पक्षाचो मनीस म्हण वळखप जाता. 'तो माचयेर आसल्यार हांव ना' अशेंय आयकुवपाक येता. कोंकणीच्या बऱ्याक वैयक्तीक

दुस्मानकाय विसरून एकठांय येवन काम करपाचे दीस गेल्ल्याचे दिश्टी पड्टा. कोंकणीच्या आड कोणूय राजकारणी वावुरता जाल्यार ताका विरोध करपाचो सोडून तो आमच्या पक्षाचो म्हुणून ताका फाटी घालप जाता. निश्टय आसाच, पुणून ती कोंकणी कडल्यान तोडून राजकारण्यांक जोडल्या असो दुबाव मारता.

कोंकणी समाजांत आनीक एक कीड दिश्टी पड्टा ती म्हणल्यार अहंकार. थोड्यांक स्वाभिमान आनी अहंकार हातूंत बारीक ओळ आसता ती वळखुवपाक येना. अहंकाराक स्वाभिमानाचें गोंडस नांव दिवप जाता. हांव व्हड आनी कोंकणी ल्हान अशी भावना जेन्ना नकळत आंगांत रिगता तेन्ना स्वाभिमानाचें अहंकारांत रूपांतरण जाता. हांव करतां तेच सारकें, हांव आसां त्योच संस्था सारख्यो चलतात, म्हाका फावो तो मान मेळना असले समज करून घेतिल्ले लोक हालींसाराक चड मेळपाक लागल्यात. कोंकणीचे कार्यावळीक म्हाका आमंत्रण ना, व्हॉट्सॲपचेर धाडल्यार सुद्धां छापील आमंत्रण ना म्हणपीय साहित्यकार आसात. दिसाळ्यांचेर येवपी कार्यावळीची खबर आमचे खातीर आमंत्रण जायना. असल्या भौशीक कार्यावळींक आमी खाजगी कार्यावळी जाल्ले वरी आमंत्रणाची वाट पळयतात. आमची आयकुवपाची संवयूय खूब कमी जाल्या. दर एकल्याक सांगपाची उमळशीक लागल्या. माचयेर सुवात आसल्यारच खूब जाण कार्यावळीक हाजेरी लायतात. ना जाल्यार ना.



प्रसिद्दी हो दुबळ्या मनशांक जावपी संसर्गजन्य रोग. कमी काम करून नातर आपणें कांयच काम करिनासतना दुसऱ्यान केल्ल्या कामाचें श्रय घेवन मिरोवपाचें प्रमाण हालींसाराक खूब वाडलां. व्हॉट्सॲप, फेसबूक सारख्या माध्यमांतल्यान प्रसिद्धी मेळोवप सोंपें जालां. साहित्य बरोवप्यांक तर हो रोग रोखडोच लागता. कसलीय कविता वा लेख बरयतकच ती फेसबुकार, व्हॉट्सॲपार घालप आनी लोकांचे लायक्स घेवप हाचे सारकें दुसरें सूख तांकां मेळना. कांय आड्वाद सोडल्यार जें साहित्य सामाजीक माध्यमांचेर येता आनी ताचे वेल्यो प्रतिक्रिया वाचत जाल्यार एक तर आमची साहित्यीक रूच गेल्या नातर आमी दुसऱ्याक खूश करपाक बरें म्हणटात अशेंच म्हणचें पड्टलें. ह्यो दोनूय गजाली कोंकणीक मारक. आपलो इश्ट चुकल्यार 'तूं चुकता' म्हुणून ताका सांगपीच खरो इश्ट आसता. तें जाहीर पणान सांगपाचें धाडस नासल्यार किमान ताचेर बरी प्रतिक्रिया दिनासतना रावपाची आमच्यांत समजिकाय ना. आपणें बरयलां तें निवळावपाची तकालस घेनासतना प्रसिद्ध करपाची धडपड चलता. आड्व्यो बरोवपाच्यो वळी उब्यो बरयतकच ती कविता जाता असो समज रिगपाक लागला.

समिक्षा हो कोंकणी साहित्यांत पचनाशिल्लो विशय. हातूंत तीन तरांचें बरप मेळटा. पयलें, जशी समिक्षा प्रकाराक पाळो दिवन बरयिल्ली समिक्षा. (जी खुबच कमी वाचूंक मेळटा.) दुसरें आपल्या बरोवपी इश्टाक नदरे सामकार दवरून ताच्या बरपाक रंगरंगोटी लावन बरयिल्ली समिक्षा. तिसरें, आपल्या बरोवपी दुस्मानाक नदरे सामकार दवरून ताच्या बरपाक दाग लावन बरयिल्ली समिक्षा. खरे समिक्षेक सकारात्मक दृश्टिकोनांतल्यान पळोवन मानून घेवपाचें व्हडपण थोड्यां भितर आसना. देखून कोण वतलो ताचे वाटेक अशें म्हुणून कोंकणींतल्यान बरी समिक्षा येना.

साहित्य येवजण्यांची गोंयांत तशी ददात ना. राजभास संचालनालय, कला आनी संस्कृती संचालनालय, गोवा कोंकणी अकादेमी सारकीं गोंय सरकाराचीं आस्थापनां साहित्य पोशक येवजण्यो तयार करतात आनी चालीक लायतात. तांच्या कितल्याश्याच येवजण्यांचो लाव सद्या साहित्यकारांक मेळटा. हांचो गैरफायदो घेवपाचेय प्रकार वाडीक लागल्यात. साहित्याचो कस नासतनाय आपलें पुस्तक आसा तशें येवचें ही भावना निबर जायत चल्ल्या.देखून एखादो प्रकाशक पुस्तक काडपाक तयार जायना तेन्ना आपली प्रकाशन संस्था तयार करून पुस्तक प्रकाशीत करप जाता. तातूंत कांय बऱ्या पुस्तकांचेरय अन्याय जाता. गोंयांत दुसऱ्यांचीं पुस्तकां काडपी प्रकाशक मुळांत कमी. आसात तेय चळवळीचें काम समजून करतात. सरकारी येवजण्यांचो लाव घेवन आपलें पुस्तक आपणेच काडपाची प्रथा सुरू जायत सावन कांय बऱ्या पुस्तकांचें वितरण सारकें जायनाशिल्ल्यान तांचो खप जायना. फकत सरकारी येवजण्यांचें गणीत करून अमके कडेन अमकीं पुस्तकां पावयतकच पुस्तकाचो खर्च सुट्टा हाचेंय गणीत करून पुस्तकांचें वितरण जाता. कोंकणींत सादारण वर्साक २०० ते २५० पुस्तकां उजवाडाक येतात. तांचो दर्जो सुदारूंक आमचे कडेन अशें एक मंडळ जाय जाचें प्रमाणपत्र आसल्यारूच तें पुस्तक सरकारी येवजण्यो घेवपाक पात्र आसतलें.

जीं पुस्तकां छापून हाड्टात तीं वाचपी लोक आमचे कडेन कमी आसात. पुस्तकां विकत घेवन वाचप हेंय आमचे कडेन कमीच. घरांत खाजगी वाचपघर आसपाक जाय ही संकल्पना गोंयकारां मदीं कमीच मेळटा. भुरग्यांक वाचनाची गोडी लागची म्हणय आमचे कडेन व्हडले यत्न जायनात. वाडदिसाक रिटर्न गिफ्ट म्हुणून आमी पुस्तकां दिल्यार आमकां लोक पिशांत काडटलो होय आमचो भंय.

हें कोंकणी समाजांतच न्हय तर बाकीच्याय भासांनी आमकां दिश्टी पड्टा. हें जरी खरें आसलें तरी आमी कोंकणी मनशांनी एक गजाल मतींत दवरूंक जाय, ती म्हणल्यार आमी कोंकणी लोक हरशींच कमी.देखून आमकां एकट्याक एकच पात्र वटोवंक मेळना. पात्रां चड आसात आनी लोक कमी. देखून जण एकल्याक एका परस चड कामां करचींच पडटलीं. आनी हें फकत बऱ्या संयोजनांतल्यानच जावपाक शकता. आनी बऱ्या संयोजना खातीर एकवटा शिवाय पर्याय ना.

संपर्क: 9422389290

# आमच्या सगळ्यांची एक फळी तयार जाल्या...

नमन सावंत

फाटर्लीं कांय वर्सां सेगीतपणान सत्तरींत थोडे उपक्रम चालीक लायल्यात.

फाटर्लीं वीस वर्सां आमी रानभोंवडी आयोजीत करतात. तरणाट्यांक घेवन दोन दीस रानांत वतात. २५ ते १५० लोकांक घेवन रानांत रावल्यात. तातूंत चलपाचें आसता सैमाक पळोवपाचें आसता. सैमा कडल्यान शिकपाचें आसता आनी थंय साहित्यूय येता. रातीचें वांगडा रांदतना, जेवतना हलकीं फुलकीं गितां साथ दितात. जेवले उपरांत एका विशयाचेर गंभीर चर्चा जाता. चर्चा केन्ना केन्ना सामकी तोंकाक पावता. मागीर गट करून नाटकुलीं सादर करपा खातीर विशय दितात. गटाच्या मुखेल्याक नेमून जापसालदारकी दितात. वर भराचो वेळ दिवन सादरीकरण जाता. थंय पेन ना, स्क्रीप्ट ना, नेपथ्य ना, कांय ना. आसता ती उमेद आनी एकमेकांचें आयकून तोंडी संहिता तयार करपाची कळाशी. वांगडा आसता लांकडांची प्रोपर्टी. पसऱ्याचो उजवाड आनी ताळो भर आवाज. इतल्या म्हालवजार भोंवडेक आयिल्लो जण एकलो नाटकाचो वांटो जाता. चर्चेचो वांटो जाता. हांथरुणार पडल्या पडल्या कोण कवितांची गोजडी घालता. जाल्यार कोण आपले गजालींची चादर घालता. दोळ्याक दोळो लाग मेरेन ही मैफील चालू उरता.

आदले दिसाची मजा घेवन दुसरे दीस परत रान माड्डयतां. आदले दिसा चर्चेंत एकमेकांचेर पोटतिडकीन उसळ्ळेले हातींत हात घेवन वांगडा चलतात.

दुसरो उपक्रम आसा 'संकल्प दीस'. गोंयांत ३१ डिसेंबर कसो मनयतात तो सगळ्यांक खबर आसा. दर्या वेळेरूच न्हू तर गांवांगांवांनी डिजे लावन सोऱ्याचे वा हेर नशेंत तरनाटे शितीद नासताना नाचतात. नेवो पिवपी चड करून हेच दिसा तोंडाक बाटली लावपाची श्रीगणेशा करता. पूण आमी सत्तरींत ''आमचो पंगड'' हे संस्थे खाला फाटर्लीं २६ वर्सां वेगळे तरेन हो दीस मनयतात. 'संकल्प दीस'. रातीच्या बारा वरांचेर हातांत पणटी घेतात. पर्जळीत पणटेक पोशांत घेवन स्वतःचे संकल्प करतात. त्या उजवाडाचे साक्षीन येवपी वर्साची आपली इत्सा सांगतात. तो पोसो भर उजवाड पियेतात. मागीर आपणें केल्लो संकल्प जाहीर करतात. फाटल्या वर्सा केल्लो संकल्प पुराय जाला काय ना तेंवूय सांगतात. संकल्प जाहीर केले उपरांत एका जापसालदारकेची भावना येता. हे दिसा सांजचीं ६ वरां ते रातीचें १ मेरेन साहित्यीक कार्यावळी जातात. चर्चासत्रां, गीतसंगीत, कव्वाली, मैफिली, गजल मुशायरे जातात. कविता, सुरबूस जेवण आनी गंजाण/आल्याची फूटी च्या आयुश्य भर मतींत घट्ट उरपी अशी कार्यावळ जाता आनी दर एकल्याक हो संकल्प दीस आपले घरा जावचो अशेंच दिसता. अशी प्रत्येक गजाल व्हरोन आमी साहित्याक जोडटात. साहित्याक आमी माटवांतल्यान भायर काडलां.

संकल्प दीस आनी रानभोंवडी हीं वर्सान जातात जाल्यार 'साहित्य मंथन' ही आमची कार्यावळ दर दोन म्हयन्यांनी जाता. फाटर्लीं सात वर्सां सेगीतपणान ही कार्यावळ चलता आनी आतां मेरेन ४१ कार्यक्रम जाल्यात. साहित्य मंथन ''घोळटें संमेलन''. दर फावटी वेगळ्या वेगळ्या जाग्यार जाता. कोणाच्या आंगणांत वा पडवेर. जेच्या घरा जाता ताका पुराय स्वातंत्र्य आसता. ताणें जाय तसो कार्यक्रम थारावचो. तीन वरांची दर दोन म्हयन्यांनी ही परब आमकां सगळ्यांक रिचार्ज करीत रावता. दर फावटी एक कोण तरी सत्तरी भायलो जेश्ठ साहित्यीक आमी मुखेल मार्गदर्शक म्हण आपयतात. जेणें करून आमकां लाव जाता आनी आमी खटालखुटूल कितें साहित्याच्या मळार करतात तें तांचे मेरेन पावता.

चडशे साहित्यीक कार्यक्रम राजधानींत वा मडगांवां जातात. तेवूय बी सोमार ते शुक्रार. तेका लागून गांवांगांवांतल्या आमचे सारक्या साहित्य मोग्यांक तांचो लाव मेळना. हो साहित्यीक, वैचारीक उपास मात्सो तरी कमी जावचो देखून हो ''परतीचो प्रवास'' आमी सुरू केला. ह्या प्रवासांत आतां मेरेन सुमार ५० जाणत्या साहित्यीकांचे आमकां मार्गदर्शन मेळ्ळां.

पोरूं वर्सा आमी पयलें 'ग्रामीण साहित्य संमेलन' आयोजीत करून जैतिवंत केलें. कोंकणी साहित्यीक कार्यावळींनी ग्रामीण साहित्य संकल्पनेची रुजवण घातली. सत्तरींतल्या अतिग्रामीण गांवांत हें संमेलन दोन दिसांचें जालें, तातूंत दर एक सत्र गांवकरांच्या आंगणांनी जालें. गांवांतलीं उणीशीं पांच खळीं आमी वेगळीं वेगळीं सत्रां दवरपाक वापरलीं. तांतूंतल्यान हें संमेलन आमचें न उरतां पुराय गांवचें जालें. गांवांतल्याच लोकांनी रांदून वाडलें. अस्सल ग्रामीण जेवण. तांच्याच घराघरांनी राबित्याची वेवस्था केल्ली. आख्खो गांव साहित्यमय जालो. रातीच्या सांस्कृतीक कार्यावळींनी गांवांतल्या जाणट्या लोकांचें कला सादरीकरण जालें. माचयेर मानाच्या सोयऱ्यांनी जाणट्यांक संद दिली. तेमीच ''नमन'' घातलें आनी तेमीच सोपयलें.

अशे सेगीतपणान उपक्रम करपी आमच्या सगळ्यांची एक फळी तयार जाल्या. साहित्यीक कार्यावळी करता करता लोकां मेरेन, लोकांच्या प्रश्ना मेरेन हे तरनाटे पावल्यात. समाजान कितेंय खट जायत खूट जायत हे तरनाटे धांवून वयतात.

हालींच वाळपय मेरेथॉन जाली. तातूंत बाराशे लोक धांवले. आरोग्याचे जागृती खातीर धाविल्ल्या ह्या मेरेथॉन आयोजनांत साहित्य मंथनाच्या वांगड्यांनी वांटो घेतलेलो. हेच वांगडी वाळवंटी संवर्धन अभियान जें आतां गोंय भर गाजता तातूंत आसात. लोकां मेरेन, पंचायती मेरेन, सरकारी पातळी मेरेन, सगळ्यांक वाळवंटीचो विशय ते घेवन वावुरतात. म्हादय बचाव अभियानांत हेच तरनाटे दिसतात. ग्रामीण भागांत आरोग्य शिबिरां हेच लोक आयोजीत करतात. सत्तरींत वाडट्यो आत्महत्या लक्षांत घेवन समुपदेशन कार्यावळी हेच तरनाटे करतात. गांवांतल्या कोणा गरीब भुरग्यांक शिकपाक मजत जाय तेन्ना हेच तरनाटे उबे रावतात. ते भायर प्रत्येकाचें वैयक्तीक काम

(पान ३० चेर)

# रायटर हो फायटर आसूंक जाय!

मूळ मराठी : विश्वाधार देशमुख – अणकार: सखाराम शेणवी बोरकार

'इव्हेंटेक्रासी' ही नवी कल्पना सद्याक भौसा मदीं सुमाराभायर घोस्ताक गेल्या. गजाल कितलीय सादारण आसली तरी तिचो 'इव्हेंट' खडेगांठ जावंक जाय हाचेर भर दितात. 'इव्हेंट' कसो जालो हाचे वेल्यानच आतां गजालीचे गुणवत्तेची पारखणी जाता.

अश्या 'इव्हेंटेक्रासी'च्या उत्सवी झगमगाटांत 'मराठी भास सांबाळप आनी उदरगत पंद्रस नेटान मनयली. सगळीं सरकारी ऑफिसां आनी शाळा कॉलेजी, पंदरा दीस मायभाशेच्या मोगान सामकीं बुडून गेल्लीं. सरकारी सुचोवणे वेल्यान भायर सरिल्लो हो मोग इतले अडेचो आसलो कीं मायमराठीचो जिवच घुस्मटून गेला आसतलो.

कोणाकय हीं त्रोसां चडच खर अशीं दिसतलीं. रांगोळ्यो, निबंद सर्ती, उलोवपां, कवीसंमेलनां हांचे विरयत भाशेचेर मोग दाखोवपाची दुसरी तरा खंयची असो रोखठोक प्रस्न ह्या लोकां कडल्यान विचारपाक येतलो. तशें तर ह्या प्रस्नांच्यो जायत्यो जापो आसपाची शक्यताय आसा. पूण सध्याक हाची एकूच जाप म्हळ्यार मायभाशेचेर मोग करचो म्हळ्यार कितें करपाचें? तर रविन्द्रबाब हांणी आपल्या कोंकणी भाशेखातीर जें केलें तें करपाचें!



रविन्द्रबाब म्हळ्यार रवीन्द्र राजाराम केळेकार. कोंकणी भाशेक राजभाशेचो दर्जो, पयलो साहित्य अकादेमी पुरस्कार आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवन दिवपी साहित्यीक. देसाच्या स्वातंत्र्य चळवळींत वांटेकार जाल्ले, गोंय सुटके आंदोलनांत फुडें आशिल्ले सुटके झुजारी. भक्कम तात्विक आनी विचारीक बुन्याद आशिल्ले प्रतिभावंत लेखक. पयलीं देस, मागीर प्रदेस, आनी फुडें भाशेच्या मुक्ती खातीर अखंड झुजिल्ले झुंजार सैनीक. 'जुने जाऊ ध्या मरणालागुनी, जाळूनी किंवा पुरुनी टाका' ही मोख मुखार दवरून साततत्यान नव्या विचारांक दिका दाखोवपी दिपस्थंभ! पुर्तुगेज, इंग्लीश, गुजराती, बंगाली, हिंदी, मराठी आनी कोंकणी अश्या साबार भासांचेर शेक आसुनय 'बरयतलों तें फकत कोंकणींत आनी कोंकणी खातिरूच' अशी खर भुमिका घेवपी भाशा मोगी.

भाशातज्ञांच्या मतान संवसारांतल्या एकूण भाशांची संख्या अदमाशें स हजार आसा. संवसाराची एकूण लोकसंख्या ७०० कोटी. तातूंत मुखेल भासो उलोवपी कोट्यांनी आसात. मात कोंकणी उलोवप्यांची संख्या सामकी थोडी म्हळ्यार २४ लाख आसा. पूण 'सत्य असत्यासी मन केले ग्वाही, मानियेले नाही बहुमता' ह्या न्यायान रवीन्द्रबाब हांणी अखंडपणान आपले मायभाशे विशींची आपली आस्था आत्मियतेन सांबाळ्ळी आनी वाडयली.

रविन्द्र राजाराम केळेकार, जल्म ७ मार्च १९२५. जल्मगांव दक्षीण गोंयचो प्रियोळ हो गांव. बापूय एक फामाद दोतोर. भाशा आनी साहित्या विशीं मोगाचे संस्कार बापाय कडल्यान आयिल्ले. तरणे पिरायेचेर पयलीं स्वातंत्र आंदोलन आनी उपरांत गोंय सुटके झुजांत वांटेकार. हातूंतल्यानच महात्मा गांधी, राम मनोहर लोहिया आनी काकासाहेब कालेलकार हांच्या विचारांनी प्रभावीत. हातूंतल्यानच फुडें तांचे जिणे विशींच्या तत्वज्ञानाक आकार मेळ्ळो. आनी मागीर साहित्य आसूं वा जीण, तांचे कडेन तांणी आंदोलनाचोच एक वांटो म्हण पळयलें. कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी गुजराती अश्या चार भासांनी मेळून तांचीं वट्ट ३४ पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत जातूंत 'हिमालयांत' हें प्रवासवर्णन, 'ओथांबे', 'दिवास्वप्न' हे लघुनिबंद संग्रह तर 'एका विचाराची जिवीत-कथा' आनी 'भाषिक संघर्षाचें समाजशास्त्र' हे वैचारीक लेखांचे संग्रह खूब फामाद आसात.

'हिमालयांत' ह्या प्रवासवर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाभला आनी तांच्या एकूण साहित्या खातीर तांकां साहित्य अकादेमीची प्रतिश्ठीत अशी फेलोशीप मेळ्ळी आनी २००६ वर्सा भारतीय साहित्यांतल्या सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्याच्या ज्ञानपीठ पुरस्कारान तांचो भोवमान जालो.

खरेपणी जल्म १९२५, मरण २०१०, एकूण ८५ वर्सांचें आयुश्य. तातूंत शिक्षण, नोकरी, लिखाण, लग्न, भुरगीं-बाळां, बक्षिसां, पुरस्कार आदी. हो तसो फकत आंकडे दाखोवपाचो तपशील. दर एक वेळार

मराठी लेखक विश्वाधार देशमुख हांणी ज्ञानपीठकार कोंकणी लेखक भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांचे विशींचें मत लोकप्रभा आनी एक्सप्रेस इंडीया ह्या नेमाळ्यांनी उक्तायल्लें. तांच्या जल्मदिसाच्या निमतान ताचो कोंकणी अणकार आमी हांगा उजवाडायला.

तातूंतल्यान कितें हाताक लागतलेंच अशें ना. रविन्द्रबाब हांचें तशें खास अशें वेगळेपणय वयर सांगिल्ल्या तपशिलांत सांपडपाक ना. भाशा मोगी, भाशातज्ञ आनी मायभाशेचो अभिमानी हीच केळेकारांची खरी वळख. तशें तांकां संवसारांतल्या सगळ्या भासांचो तितलोच मोग. पूण तातूंत भारतीय भासांचो चड्च. आनी आपली मायभास कोंकणीचेर तर जीव उंवाळून उडोवपाची तयारी.

'भास ही फकत एकामेकां कडेन संपर्क सादपाचें साधन' अशी गुळगुळीत आनी मिळमिळीत भुमिका तांकां मान्य ना. तांच्या मतान भास ही मनीस संस्कृतीचो सगळ्यांत व्हडलो आविश्कार. एका लेखांत तांणी ही आपली भुमिका मांडल्या. भाशे कडेन फकत एक संपर्काचें साधन म्हण पळोवप बरोबर न्हय. खरें म्हळ्यार भाशा ही सांस्कृतीक आविश्काराचें एक माध्यम आसता. भाशा मनशाक 'आयडेण्टिटी' दिता. ताची ताकाच आनी संवसाराकय वळख करून दिता. हांव पंजाबी, बंगाली, मराठी असो खंयचोय भेदभाव मानीना. हांव भारतीय अशेंच मानता. पूण हांव भारतीय अशें कितलेंय आड्डून सांगूं, 'तूं कोंकणी' अशें म्हाका म्हजी भास सांगता. आनी 'हो कोंकणी' अशी संवसाराकय वळख करून दिता. आपणें एक लक्षांत घेवंक जाय भाशेची ही धर्माचे आयडेण्टिटी परस चड खर आसता. फ्रांस, इटली आनी स्पेन हे धर्माचे नदरेन एक म्हळ्यार रोमन कॅथोलीक ख्रिस्ती, पूण भाशेचे नदरेन एकामेकां पासून वेगळे. आनीकएक देख म्हळ्यार धर्मा खातीरूच बंगाल प्रांताचो एक कुडको हिंदूस्थाना पासून वेगळो जालो आनी पूर्व पाकिस्तान जालो. पूण भाशेनच तो पाकिस्ताना पासून वेगळो केलो आनी बांगला देसाचो जल्म जालो.

हाचो अर्थ भाशीक 'आयडेण्टिटी' ही प्रदेश, धर्मपंथ, जात अश्या वळखीं परस चड म्हत्वाची आनी परिणामकारक थारल्या. भाषिक संघर्षाचें समाजशास्त्र हातूंत तांणी आपल्या ह्याच मताची विस्कटावणी केल्या. ह्या पुस्तकांतलो म्हत्वाचो मुद्दो म्हळ्यार भारत हो भोवभाशीक देस मुळा पासूनच आसलो आनी फुडेंय तो उरतलो. भौभाशीकत्व हो ह्या देसाचो समृद्ध सांस्कृतीक वारसो आसा. फाटल्या तीन हजार वर्सां सावन सगळ्यो भासो एकामेकांक प्रभावित करून लेगीत एकामेकांच्या आदारान चलतात. भौभाशीकत्व म्हळ्यार झगड्यांचें कारण न्हय तर सवस्तकायेन जियेवपाची ती एक चावी आसा.

हातूंतलो दुसरो मुद्दो म्हळ्यार आंतरराष्ट्रीय जावपाच्या हावेसान आमी इंग्लिशीची गुलामगिरी पत्करून आपलें सांस्कृतीक भांकरुटपण करून घेतलां. आमचे फुडारी हे स्वतंत्र राष्ट्राचे फुडारी उरूंक नात. ते अमेरिका-इंग्लड देसाच्या सांस्कृतीक वसणूकेचे फुडारी जाल्यात. हाचे विशीं खंत उकतावन भारत ही 'वसणूक' इंग्लीशीच्या कुड्ड्या अनुकरणांतल्यान कशी घड्यल्या हाची तांणी भासाभास केल्या.

इंग्लीश शिकपाक तांचो विरोध ना पूण इंग्लीशींतल्यान शिकपाक तांचो विरोध आसा. आनी तो विरोध ते खरपणान मानतात. नवो भारत निर्माण करप हो आमचो उद्देश आसलो तर मौलीक विचार करपी एक वर्ग आमकां जाय पड्टलो. तो इंग्लीशींतल्यान घडप शक्य ना. हें परकी माध्यम आमकां मोलादीक विचार करपाक शिकोवपाक ना. हें माध्यम आमकां चड्शे नकलाकार आनी अनुकरण करपी तयार करतले. आनी नकलाकार केन्नाच राष्ट्र उभारणीचें काम करपाक शकपाक ना.

हाचे फुडें ते म्हणटात लोक भुरग्यांक गिन्यान दिवपा खातीर शिक्षण दिनात. सिर्वीस मेळची म्हण शाळेंत शिक्षण घेवपाक धाड्यत. भुरग्यांक 'येता' ते भाशेंत शिक्षण दिना आसताना 'येना' ते भाशेंत तांकां शिक्षण घेवचें पड्य. हें ना-नपयत करतलो जाल्यार तांणी कांय उपाय सुचयल्यात. हांतलो एक उपाय म्हळ्यार इंग्लीशीक प्रशासनांतल्यान पुराय भायरावप आनी प्रशासन पुराय तरेन थळावे भाशेंतल्यान चलोवप आनी दुसरें म्हळ्यार मायभास ही संकल्पना वापरना आसतना 'परिसर भाशा' ही संकल्पना वापरप. ल्हान भुरगीं एकामेकां कडेन जे भाशेंत उलयतात, झगड्यत, गाळी संवतात ती भास शिक्षणाचें माध्यम म्हण वापरपाची. भाशे विशींचे हे मुळावे विचार केळेकारांक हेर साहित्यीकांक परस वेगळे थारायतात. लक्षांत घेवपाची गजाल म्हळ्यार तांचें 'भाशाचिंतन' आनी 'जिवन चिंतन' ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन बाजू आशिल्ले भशेन आसात. आनी दुसरे भशेन सांगपाचें म्हणल्यार तांच्या सगल्या तरेच्या लिखाणांत 'भाशा चिंतन' हेंच मुळावें सुत्र आसा. ज्ञानपीठ पुरस्कार घेतना हेच विचार तांणी मांडल्यात. इंग्लीश भाशा देशी भासांनी भितर सरिल्ल्यान सांस्कृतीक बोन्सायकरण जालां. आयज इंग्लीश भाशेन बोन्साय विद्वान-विचारवंत आनी विद्यार्थी निर्माण केल्यात. बोन्साय विद्वान देसाचे उदरगती खातीर ठोक अशें कांयच दिवंक शकनात. ते फकत परिसंवादांची सोबाय वाडोवंक शकतात.

आयज आमी जे तरेच्या भाशिक-सांस्कृतिक वातावरणांत वावुरतात तातूंत केळेकारांची ही भुमिका कड्वट, कोडू आनी एकसूरपणांची दिसूंक शकता. पूण आमी हें समजुपाची गरज आसा की तांचो विरोध इंग्लीश भाशेक ना तर इंग्लीशीच्या दबावाक आसा. गांवा कणकणीं पावसाळ्यांत अळम्या भशेन फुलपी इंग्लीश शाळांचीं दुकानां म्हणल्यार ह्या दबावा खाला जल्माक आयिल्ली पिलावळ आसा. संवसाराचें आनी संवसार भर पसरिल्ल्या मनशांचें जगप समजूंक म्हण इंग्लीश भास गरजेची आसा ताचे आड ते नात. पूण तांचो आक्षेप आसा माध्यम म्हण इंग्लीशीचो नाका आशिल्लो बड्वाचार करपाचेर. अशें केल्ल्यान ल्हान ल्हान प्रदेशांतल्या वाठारांचो प्राणवाय आशिल्ल्या ह्या परिसर भासांचो जीव घुस्मटून वता. तांकां भायरायतात आनी कांय काळान त्यो काबार जातात. अशे तरेन भाशा काबार जावप हें मनशाचे संस्कृतीचें सगळ्यांत व्हडलें लुकसाण. हें जें रविन्द्रबाबाचें म्हणणें आसा तें संवसारांतले भाशेचो खंयचोय अभ्यासक न्हयकारपाक शकना.

भारतीय भाशांच्या लोकसर्वेक्षणांचो मोलादीक प्रकल्प हांतात घेवपी डॉ. गणेशी देवी हांचें संशोधनय केळेकारांच्या मताक तेंको दिता. देवी तांच्या 'भारतीय भाशांचें लोकसर्वेक्षण' ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत म्हणटात 'भारतांत जावपी भाशीक ऱ्हास हो फकत अल्पसंख्यांक

(पान २२ चेर)

# कथा साहित्यांत आदिलोक जिणेचें दर्शन

रामनाथ गावडे

आदिवासी साहित्य आनी दलीत साहित्य हें एकूच अशी एक समजणी आसा. तशें वयलेचाराक तें दिसताय बी. कारण दोनूय समाजाच्यो चडश्यो अडचणी, प्रस्न, छळणूक-पिळणूक, मागासलेंपण सारकेंच शें आसा. दलीत-जात SC (अनुसुचीत) आनी आदिवासी-जमात ST (अनुसुचीत). दोनूय समाजाचे आचार-विचार, रावप, काम-धंदे खुबशे भिन्न आसात. दलीत गांवा कुशीक जाल्यार आदिवासी रानांत, दोंगरांनी शारा पासून पयस अशे चड करून रावतात.

सर्वसादारण देश पावंड्या वयलें चित्र पळयल्यार, भारतांत भिल्ल, गोंड, मुंडा, कोळी, संथाल अश्यो सुमार ५५० वयर आदिवासी जमाती रावतात. ते भायर तांच्यो कितल्योश्योच जाती, पोट-जाती आसात. तांचे वेगळे धर्म, चाली-रिती आसात. देशांत सुमार धा टक्के आशिल्ल्या ह्या समाजाच्यो णव्वदेक भासो आसात जातूंत काय स्वतंत्र आनी परिपूर्ण आसात. ते भायर असंख्य बोलयो आसात. देवनागरी वा आपल्या राज्यांत चलतल्या लिपयांच्या आदारान कांय जाण त्या भासांनी आपले विचार प्रकट करतात. साहित्यूय छापतात. पूण तें हेर समाज वाचिना आनी तांचे मेरेन ते विचार पावनात. कारण तांची भास तांकां कळना. संवकळ केल्यार कळपाकूय शकता. जशें मराठी शिकिल्लो गोंयकार कोंकणी वाचपाक वा रोमी वाचपाक पयलीं घुस्पता, आनी उपरांत आपशींच वाचपाक लागता. पूण आदिवासींचें तें साहित्य वाचपाची तकालस हेर समाज घेना. बोडो, डोंगरी, संथाली, मणिपुरी बी चलता. पूण साहित्य मर्यादीत आसा. हेर ल्हान भासां वरी? आखडून उरल्या.

आदिवासी लोकां परस दलीतां मेरेन शिक्षण बेगीन पावलें. दलीत अस्पृशयतेचे बी घाव सोंशीत गांवकुसांत-गांवाकुशीन रावताले, आनी आदिवासी समाज चडसो कसल्योच साधन सुविधा नात अशा जाग्यार रावतालो. फाटले जनगणने प्रमाण, ५०% वयर आदिवासी लोकां मेरेन वीज, उदक, पक्के रस्ते पावलेनात. शिक्षणांत तर लिपूच फाटीं उरलो आनी साहित्य मळारूय उसरां देंवलो. ताचे पयलीं दलीत, ग्रामीण आनी हेर मागास वर्गीयांनी साहित्य आनी हेर मळांचेर नांव कोरायल्लें.

गोंयचो विचार केल्यार, हांगाचें त्रासीक आसूनय वातावरण आनी परिस्थिती मातशी वेगळी आसा. समानता आनी समजीकाय हेर राज्यां परस वेगळी आसा. गावडा, कुणबी आनी वेळीप हांकां आदिवासी जमात म्हण दर्जो मेळ्ळा. ह्या समाजांतले तशे आदिवासी जिणेचेर लेखन करपी खूब उणे आसात. थोड्यांनी कथा लेखन केलां. देखीक - दुर्गादास गावडे, के. के. सुब्रह्मण्यन, पोब्र, रामनाथ, मार्कुस, ग्वादालूप, कोस्मो बी. पूण तें लेखन ग्रामीण वा प्रादेशीक म्हूण येता अशें सर्वसादारण कथालेखन. तरी तांच्या लेखनांत आदिलोक जिणेर थोडेशें प्रतिबिंत झळकता.

राष्ट्रीय पांवड्यार विचार केल्यार, आयज साहित्य प्रकारांचे जायते वांटे केल्यात. दलीत, प्रादेशीक, ग्रामीण तशें आदिवासी साहित्यूय वेगळें केलां. आनी आदिवासी साहित्याचे वेगळे प्रकार आसात: आदिवासींनी बरयिल्लें, आदिवासींचेर बरयिल्लें, आदिवासीं खातीर बरयिल्लें, आदिवासाचेर बरयिल्लें. जें चड करून इतर लेखक बरयतात तें. तशेंच आदिवासींचे संग्रहीत केल्लें मौखीक साहित्य.

आदिवासींनी बरयिल्ल्याचेर तीन भाग केल्यात. १) सर्वसाधारण - जें आमी बरयतात तें २) आपलें जिवीत आनी समाजाचेर बरयतात तें - आत्मचरित्रात्मक बी. आनी ३) आपले बोलीभाशेंत बरयतात तें वा जें गावनकाणी, दंतकथा बी भरसून बरयतात तें.

दलीत साहित्यीक आदिवासीं परस खूब आदीं बरोवपाक लागिल्ले. जायते फावट तांच्या साहित्याचेर खर टिका जाताली. ते बरयतात तें साहित्य न्हीच. साहित्यांतली पवित्रता नश्ट केली, विटाळ करतात अशा कठोर सुरांनी तांकां विरोध जातालो. सगळ्यो मान-मर्यादा, सभ्यता सोडून ते जें बरयतात तें सामकें हळशिकावर्णे, दर्जोहीन म्हण तांकां हिणसायताले कारण ज्या समाजा कडल्यान तांचेर अत्याचार जाताले ते उजवाडाक हाडटकीर तांकां तो आपलो अपमानसो दिसपाक लागिल्लो. महाराष्ट्रांत तर तांकां चडूच विरोध जातालो. अशा वेळार निकतोच वयर सरतलो आदिवासी लेखक भयांनूच फाटीं उरलो. पूण साहित्य ही एक कला, वेदनेंतल्यान निर्माण जाल्लें साहित्य श्रेश्ट आसता, अशें म्हणत त्या तथाकथीक विद्वानांक तांची सुवात खऱ्या विचारवंतांनी दाखोवन दिली. उपरांत हेर समाजाकूय आपल्यो वेदना, तळमळे मांडचेशे दिसले. आदिवासीय मुखार आयले. तशे ते आदीं बरयनासले अशें न्ही, जायते जाण बरयताले. नागरी भागांत रावपी, दक्षिणेंत तशेंच उत्तरेक जायते लेखक बरयताले. पूण तांचो आंकडो खुबूच उणो आसलो.

दलीत साहित्यीक आपले लिखणेन आवाज बुलंद करून समाजाक जागरूक करताले. पूण आदिवासी सभावान भिडेस्त, आबूज, लजकुरे, फाटीं फाटीं रावपी आनी असंघटीत आशिल्ल्यान ज्या नेटान मुखार सरपाक जाय आसले तशे मुखार आयले नात. अन्याय, अत्याचार सोंशीत फाटींच उरले.

आनी जेन्ना खऱ्या अर्थान शिक्षण आदिवासी समाजा मेरेन पावले. तेन्ना तांकां आपल्या हक्काची जाणीव जावपाक लागली. मानव मुक्तीचो ध्यास घेवन आनी समाजकार्याच्या वशान साहित्य क्षेत्रांत मुखार आयले. एकलव्य, बिरसा मुंडा, बळीराजा सारक्या आपल्या पुर्वजांक दोळ्यां मुखार दवरून आपल्यो वेदना, प्रस्न, जाणिवो भौसा

मुखार मांडपाक लागले. डॉ. गोविंद गारे, डॉ. विनायक तुमराम, इलीस एक्का, हरिराम मिणा, महादेव टोपो, आय. व्ही. हरदा, वंदना टेटे, के. पुरुषोत्तम, सी. कुमारन, हांसदा शेखर, के. वासमल्ली, भुजंग मेश्राम, रवी कुरसंगे, व्यंकटेश आत्राम, वाहरु सोनणे (मराठींतलो आघाडेचो कवी) कुंडलीक केदार, डॉ. तुकाराम रोंगटे, निर्मला पुतूल अशे जायते लेखक मुखार आयले जांणी मोग, श्रृंगार, शौर्य, पुराणीक अश्या विशयांक बगल दीत जात-धर्म निरपेक्ष साहित्य रचपांत अदीक भर दिल्लो दिसता. तांकां वेदनेंतल्यान मुक्ती जायशी दिसपाक लागली. तांच्या त्या विचारांनी प्रभावीत जावन वा तो समाज भोगतले हाल पळोवन हेर समाजांतल्या लेखकांनीय तांचे प्रस्न आपले लिखणेंत मांडले. देखीक - अरुण जोशी, मनोहर माळगांवकर, गीता मेहता, रस्कीन बाँड, महाश्वेता देवी, कमला मार्कंडेय बी जे तिरायताचे नदरेंतल्यान लेखन करताले. त्या बिगर आदिवासी साहित्यीकांनी बरयिल्ल्या साहित्याक तितलीशी खरसाण आनी घटसाण नासली तरीय तांणी राज्य, राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पांवड्यार जायते पुरस्कार जोडले. पूण धाकल्यो आदिवासी भासो सोडल्यो जाल्यार तेच तांकीच्या आदिवासी लेखकांक व्हड भासांनी साहित्य अकादमीचे बी पुरस्कार मेळ्ळेनात. तांचें साहित्य तशें भौसा मेरेन पावलें ना. मराठींत वा हेर भासांनी कितल्याशाच दलीत लेखकांक बी सा. अ. चे पुरस्कार लाबल्यात. डॉ. गोविंद गारेन मराठींत ४५ तरेकवार ग्रंथ बरयिल्ले. पूण तांचीय कोणें दखल घेतली ना. तांचे सारक्या जायत्या लेखकांक प्रतिनिधित्व मेळूंक ना. अश्या जायत्या जाणांनी आपलें व्यासपीठ स्वताच तयार केलें. आपलो आवाज वाडयलो. ते खातीर हालिंसराक सा.अ. बी आदिवासी साहित्याचोय आपल्या कार्यावळींनी आसपाव करपाक लागल्या. बायलांचेर मेळावे घेतात. तांचे बोलीभाशेंत राष्ट्रीय कवी संमेलनां बी आयोजीत करतात. पूण एकल्याची भास दुसऱ्याक कळना आनी मागीर फकत तो मेळ वा फार्स थारता. अशें जायत्या कवी-लेखकां कडल्यान आयकूंक येता. कारण तांकां तातूंत गंभीरताय अशी दिसचना. तरी पूण एक तरी सुरवात जाल्या ही तोखणायेची गजाल. कितेंय जांव, मनीसपणाच्या प्रवाहांत आदिवासी इल्लो इल्लो येवपाक लागला आनी साहित्याच्या रुपान आपल्या समाजाचें पडबिंब भौसा मुखार मांडपाक लागला. तांतूत आपूण जगतली जीण, सोंशिल्ले अन्याय, अत्याचार ह्योच कथा जाल्यात.

आदिवासी भुरग्यांक जेन्ना शिक्षणाक मुखार हाडटाले तेन्ना ते भेदरल्ले वरी, आबूज आनी हेर समाजाक भियेवन शे वागताले. तेन्ना लोक तांचीं चडूच फकाणां करताले. तांच्यो पाटयो फोडटाले. ते खातीर ते शिक्षण सोडटाले. तशेंच रानांतल्यान गांवांत येतल्या दुबळ्या बायलां चलयांचेर अत्याचार वाडत आसले. ते खातीर पालक चलयांक शिकपाक धाडिनासले. अश्या जायत्या प्रसंगांचेर कथा आसात. तशेंच कांय चलयांनी बी धाडस करून आपल्या पालकांक काळखांत दवरून उच्च शिक्षण घेतिल्ल्याचोय सुरबूस कथा आसात. एके वटेन सक्तीचें शिक्षण करून आदिवासी भुरग्यांक मुखेल प्रवाहांत हाडपाचो यत्न चल्ला. जाल्यार काय वास्तववादी घडणुको वेगळेंच सांगतात; पुणे, नागपूर सारक्या मेडीकल कॉलेजींनी हालिं मेरेन ५०% वयर बोगस एस.टी. प्रमाणपत्रां लावन बिगर आदिवासींनी प्रवेश मेळयला. नोकऱ्यो आनी बडट्योय तश्योच गैर मार्गान मेळयल्यात. देश भर सादारण अशेंच चित्र आसा. असले हे रिपोर्ट आनी केशी फकत पेंडींग दवरल्यात. अशा वेळार राखीव आसूनय संघर्ष करुन मेळयल्ले प्रवेश वा नोकरी बी असल्यो गजाली वाचतना शौर्य कथा कश्यो भासतात.

ते भायर आयज जायते आदिवासी लेखक ग्रामीण वा दलीत स्टायलीन लेखन करतना दिसतात. आपली लेखणी अलंकारीत करचे परस ते प्रस्न, येवजण्यो, अन्याय-अत्याचार, सूख-दुख्खां, अडचणी बी मांडटना दिसतात. आनी तें साहजकीय आसा. पोटाची भूक भागले बगर आनी दिसपट्टो जातलो अन्याय पयस जाले बगर तांचीं मनां सुखा-विलासान, सौंदर्य-साधनेन, प्रेम-विरहान आनी शृंगारीक कल्पनेन कशीं रमतलीं?

कथेचें मळ तर पुराय तरेन असल्याच विचारांनी आनी विशयांनी भरलां. आपले अणभव, दुख्खां, वेदना कथा साहित्यांत परत परत वाचपाक मेळटात. जे अणभव आनी अत्याचार केन्ना आमी आयकूंक लेगीत ना. ते तांच्या कथांतल्यान वाचूंक मेळटात. तांणी भोगिल्लीं दुख्खां तर अपरंपार आसात. तींच तांच्या जिविताचें खरें दर्शन घडयतात. तांच्यो कथाय वास्तवतेक धरून आसता. सत्य घडणुकोच चड आसतात. देखीक कांय कथांतले वांटे अणकारून दवरतां.

* ती आडसाक रावन मतदानाक आपलो केन्ना नंबर येता तें पळयताती. तेन्ना तिणें आपलें हड्डें लिपोवपाक छातयेक दसयल्लें नागडें पोर जणू तिचें उपरणेंच कशें दिसतालें - कुसूम आलम.
* भामगडांतल्यो अर्दनग्न बायलो म्हणजे स्वातंत्र्यदेवीची चेश्टाच ती - माधव सरकुंडे.
* लोकशाय कायद्याच्या पानार शाबूत आसा. ना तर ते आमकां एक रानटी जनावर म्हण केन्नाच घोशीत करतले आसले - बाबाराव मडावी.
* बाया-बापड्याना दागिनं काय ठावं. डोंगर कपारीत फिरताना झालेल्या जखमा हेच त्यांचे दागिने - विनायक तुमराम.
* तेज हायवे जावचो म्हण आमच्यो झुंडीच्या झुंडी अर्दपोटार राबयल्यो. परबेक पयशे मागले म्हण खोंटावन धांवडायले. बरे आसले, निदान अर्दपोटार तरी जगताले - टोपो.
* देस स्वतंत्र जालो. कायद्याचें राज्य आयलें. आनी रानाचो राजा आशिल्लो आदिवासी सावकाराचो पिळग्यान पिळग्यांचो गुलाम जालो - उषाकिरण.
* सीता रामाक विचारता, ''आमी वनवासाचें व्रत घेतलां म्हण वल्कलां न्हेसल्यां. पूण ह्या आदिवासींच्या आंगार तर कांयच ना. ताणी कसलें व्रत घेतलां?'' - भुजंग मेश्राम
* शिवरायांच्या गनिमी काव्याचे शिलेदार आज चोर ठरताहेत - चि.

गावीत.

* तांच्या घरांत फाटले चार दीस कांय शिजलेंच ना. माराचे वळ तशेच आसले. पूण उत्सवादीस सगळ्यांनी नाच-गाण्यांत उमेदीन वांटो घेतलो. जणू फाटल्या दिसांचें दुख्ख, हाल-अपेश्टांची तांकां यादूच नासली - वामन चिडाम.
* आदिवासी उतरान शेर्त. तांकां कितलेंय रीण दिवं येता. बदल्याक फूट काम आनी वसुलीय जायतशी करुंक मेळटा - डॉ. गारे.
* बापूके सत्याग्रह में आदा गाँव खत्म हुआ, अंग्रेजोंने सबकी जमीन जप्त की। लेकीन जब देश स्वतंत्र हुआ तो उनके हातोंमें कुछ नही आया। सब दुसरोंकेही नाम थे। जो अंग्रेजोंके चमचे कहलाते थे। - रामलाल.
* दरीद्र रेशे सकयल्या कुटुंबांक धान्य दितात. पूण प्रत्यक्षांत तें लोकांक मेळना. कागदाचेर मात दिलें अशें दाखयता. तेन्ना एक तरणाटो सरकार दरबारी दाद मागता तेन्ना मेळिल्ले जापेन तो अजाप जाता. तीं कुटुंबां खंय भटकी. एका जाग्यार रावनात. मागीर तांचे कडेन ही येवजण कशी पावतली - गवारी.
* वासनेची न्हय तर भुरग्यांच्या पोटाची भूक मिटची म्हण तिणेन सोंशिल्ल्या त्रासांतल्यान तिचें पोट वाडिल्लें. समाजान मात तिका वाळीत वडयली - वाहरु सोनवणे.
* जे हाडांचीं काडां करतात तांचींच पोरां कुपोशणान मरतात - सरकुंडे.
* ''हांव पीएसआय जावपाक गेल्लों. पूण भ्रश्ट अधिकाऱ्यान म्हाका नक्षली जावपाक भाग पाडलो.''

ते भायर रानांत जळव हाडूंक वतल्या दुबळ्या बायलांचेर धाक दाखोवन फॉरेस्ट गार्ड करतले अत्याचार, पुलिसांची दडपशाही, राजकारण्यांची मनमानी, अधिकाऱ्यांची सतावणूक सगळ्यां राज्यांनी सारकीच आसा. त्या विशयां वेल्यो वास्तवतेक धरून कथाय खूब आसात. पूण त्यो मुखेल धारेंतल्या नियतकालीकांनी छापपाचें धाडस केलें ना. आदिवासींच्या मासिकांनी बी आयल्यो. पूण तें साहित्य हेर समाजान वाचलेंच ना.

तरी आयज नवी पिळगी नेटान मुखार सरतना दिसता. पोट तिडकीन बरयता. संजय लोहकरे, उषाकिरण आत्राम, वाहरु सोनवणे, निर्मला पुतूल हीं अशीं एका परस एक बऱ्यो बऱ्यो कथा बरयतात. डॉ. हांसदा शेखर हो तरणाटो आदिवासींचे प्रस्न घेवन जबरदस्त कथा लेखन करता. ताका २०१५ चो सा.अ.चो युवा साहित्य पुरस्कार ''आदिवासी वील नॉट डान्स'' ह्या इंग्लीश पुस्तकाक लाबला. पूण ताका पुरस्कार मेळटकीच जाल्लो विरोध आनी राजकारण्यांनी बाबड्या आदिवासींक फुतलावन ताका जे तरेन त्रासांत घातलो तें पळयल्यार भारतीय आशिल्ल्याची लज दिसता.

एकविसावें शतक लागलें तरी एका काळा वेल्या रान राजा कडेन लज धांपपा पुरते कपडे नात. सरकारी येवजण्यो कागदारूच आसात. अंधश्रद्धेक बळी पडटात. जायत्या कारणांक लागून, आनी आरक्षीत केल्ल्या अभयारण्यांक लागून विस्थापीत जाल्ल्यान जल, जंगल आनी जमनी कडलें नाते तुटलें. देशोधडीक लागले, बेकार पडले, उपासा-तपासान आनी रोगराईन अदीकूच जाम जाले. कोण खंय जालो आनी खंय पडून मेलो ताचीय कोणा कडेन नोंद ना. मेळत ताणें धांवडावन घातले. ते म्हण अशे कितले दीस अन्याय सोंशीत रावतले? तेवूय बंड करून उठले. पूण योग्य मार्गदर्शन आनी दिशा मेळुंनाशिल्ल्यान नक्षली जावन मरण लार्गी करपाक लागले. त्यो काणयो वाचतना मन आपशींच पेटून उट्टा.

नक्षलपिडीत भागांत काम करपी एक अधिकारी जणू शौर्य गाजयिल्ले वरी म्हणटा, ''आमी होगडायिल्ल्या शिपायां परस धा पटीन नक्षली मारले. तांचीं घरां लासलीं. गांव-वस्त्यो उध्वस्त केल्यो...'' ताचेर टिपण्णी करतना महाश्वेतादेवीन म्हणिल्लें, ''ते बाबडे आर्दींच रोगान, उपासान मरतात. तांचेर कसलें शौर्य गाजयता? तांकां पोट भर अन्न दियात. अर्दो नक्षलवाद आपशींच सोंपतलो.'' पूण ताचेर कोण विचार करता?

कथां वरी कांय कविता तर भगभगीत इंगळे अस्वस्थ करपी कथाच कश्यो दिसतात. देखीक -

* स्वातंत्र्याच्या पन्नास वर्षांत व्यथा माझी अशी आहे, छातीवरती बंदूक आणि पाठीमागे दंडूक आहे - कुसूम आलम.
* नागड्यांनी रान माडयताले तेन्ना कॅमेरे फाटल्यान लागताले, अस्मितेचें बंड पुकारलें तेन्ना पुलीस फाटल्यान लागले - कृष्णकुमार चांदेकर)
* काल चूल थंडूच आशिल्ली, आयज पोटांत भुकेन गुळो वांट्याचें रेशन गडप केलें, तरी तांचो आरक्षणाचेर दोळो - दशरथ माडावी.
* जब वो आये तो उनके हाथ में बायबल और हमारे हात में जमीन थी। प्रार्थना खतम करे आँखे खोलीं तो उनके हातो में जमीन और हमारे हाथ में बायबल थी। - मेश्राम

कांय कथांनी आयिल्ल्यो आनी प्रत्यक्षांत आशिल्ल्यो तांच्यो कांय चाली-रिती आयज आधुनीक म्हणू येत अश्यो आसात.

गोंयकारांनी रचिल्ल्या कथा साहित्यांत खूब उणें आदिवासी जिवन चित्रीत जाल्लें दिसता. तरी महाबळेश्वर सैल, न. धो. बोरकर अश्या मेजक्याच लेखकांचीं नांवां घेवं येतात.

देश पावंड्यार वा आफ्रिकन वास्तववाद धरून संवसारांत जशें आदिवासी जिणेचेर कथा लेखन जाता, तसो प्रयोग आमच्यांनी करूं येता जेणें करून हे भुयेंतल्या सांस्कृतीक दायजाचें पुनरुत्थान जावंक शकता.

आदिवासी विश्वाचें सत्व आनी तत्व आजूनय जगाक अनवळखी आसा. सैमाक सर्वस्व मानपी आनी प्रत्येक जिवाक आदर भावनेन मान दिवपी तांचें जिवन जेन्ना पुरायपणान भायर सरतलें, तेन्ना तें संवसाराक हालयले बगर आनी नवी दिका दिले बगर रावचेंना अशें म्हाका दिसता कारण मानवतावाद आनी मनीसधर्म तांचे संस्कृतीचो गाभो आसा.

संपर्क : 7030359235



# काजीचे दीस

उदय देशप्रभू

हालीं कॉलेजीक वयताना येताना, मालवणी कवी 'दादा मडकयकार' हांच्या मालवणी गाण्यांची सीडी आयकतय. आपल्या गीतसदृश्य कवितांक संगीतातल्या वेगवेगळ्या रागांत बांदून दादांनी रसिकांक एक श्रवणानंद दिला. त्या गाण्यांपैकी "बागातल्यो फुल्ल्यो काजी, वास परमळटा गे बाय वास परमळटा" ह्या गाणां म्हाका खूब आवडटा. सादारण जानेवारी म्हयनो सुरू जालो काय तळकोंकणात काजीचो मौसम सुरू जाता. काजूची लहान मोठी झाडां मोहरान फुलून येतात. त्या मोहरांचो वास आख्ख्या मालवणी मुलखात पसारता. दादा मडकयकार हांच्यांनी ह्यो पसरण्याक 'परमळता' हो मालवणी मुलखातलो प्रचलीत शब्द वापरला. ह्या मोहोराच्या वासाक एक धुंदी आसता. ती धुंदी जानेवारी म्हयन्या पासून ते एप्रील म्हयन्याच्यो शेवट मेरेन मालवणी मुलखात भरून उरता.

जानेवारी म्हयन्यापासून काजीच्या झाडांक ल्हान ल्हान फळां फुटलेली दिसतात. ही फळां म्हणजे जशी 'बाळ काजू'. ही फळां बगतकत निकत्याच जल्माक इल्ल्या, दोळे उगडूंक नासलल्या नव्या बाळाची याद येता. झाडाच्या खांद्यांचेर ही फळां अशीच, लोमकळत आसतात. हो चार म्हयन्यांचो काळ म्हणजे वास्तवीक सृजनकाळूच म्हणाचो. ह्या मौसमांत सकाळी थंडी पडलली आसान सुद्दा कोंकणी माणूस आंगावैला कामरूण कुशीक दवरून, तोंडार सपासप पाणयाचे हपके मारून बायलेच्या हातातलो चा पीवन हातांत 'गकलां' अशी 'फाटी' घेवन सोमतो काजीच्या बागांत वयता. वयताना बायलेक "गो मी फुडें चललय, तूं मागसून आवरून ये. भाजी भाकरी काजीनीच घेवन ये." असां सांगान तिच्या उतराची वाट बगी नासताना, पायांत पायताण घालून तो बागेंतली वाट धरता. त्याच्या हातातलो 'गकला' म्हणजे मुटटे काडूची काठी. त्या काठयेच्या फुडल्या तोंकांक ल्हानशी काठी तिरकी बांदतात आनी काजीचे मुट्टे तेंतूंत अडकवन 'गकलां' वडटत. ह्या 'गकलां' वडलां की काजी मुट्ट्या सकट सकयल पडटा. काजीच्या झाडाच्यो खांदयो आडव्यो तिड्यो पसारलेल्यो आसल्या कारणांन दर एक फळ (मुट्टो) हातान काडप शक्य नासता. म्हणान 'गकलां' वापरतात.

काजी काडूंक फुडे सरललो माणूस एक तर काजीचा झाड हालवन काजीची मुट्टे सकयल उडयता. उरललो मुट्टे 'गकल्या'न एक एक मुट्टो सकयल उडयता. काजीच्या झाडा सकयल मुट्टे पडलले आसतात. तितक्यान तेची बायल हातांत पिशव 'फाटी' घेवन येता. घोवान सकयल उडयल्ले मुट्टे आनी त्याका आसलली काज कुशीन करता. मुट्टे झाडां सकयल एकठांय करून दवरता. आनी काजी फाटीत भरून दवरता. त्यांच्या वांगडा तेंची भुरगी आसली जाल्यार तेंचो बापूय त्यांका सांगता, "रे पोरांनू, काजी सामाळून काडात रे, दीक उसळात." आमी ल्हान आसताना काका-काकी, बाकीचे सगळी चुलत भावंडां काजीच्या बागांत वचूंव काका झाडाचेर चड आनी आमी सकयल काजीच्या मुट्ट्यांक पीळ दीवन काजी आनी मुट्टे कुशीन करूंव. तात दीड तास जाल्या वैर वाज येय आसलो. मग एकाद्रो लबलबीत मुट्टो बगून तेचो रोस,एका ल्हान भांवडाचेर पीळचो, आपलेचेर पीळचो, झाडाचेर चडान एकादो मुट्टो सकयल काजी पीळपी एका भावंडाचेर मारचो. मग तो आड्डून उठाचो आनी हाताक मेळात तो मुट्टो घेवन वयर मारुचो. अशी धमाल चालू जाली काय काका म्हणत, 'रे पोरांनू आता गप रावतात काय शीरडांव तुमकां?' काकांनी शीरडांव म्हटलां की गप बसण्यातच शाणपणा आसलो. कारण काका खंयच्याय शीरडाचां, म्हणजे ल्हान झाडाच्या सुकलेल्या खांदयेचो वापर करून आमकां शीरडायतला ह्या भरलालां. सकाळी सुमार धा साडे धा मेरेन ही कामां चलत. काजीच्या बागांतल्यान 'गकलां' खांद्यार घेवन परत घराची वाट चलपी माणसाचो अवतार बगण्या सारको आसता. त्याच्या आंगत्र्याचेर जळीमळी मुट्ट्याच्या रोसाचे दाग पडलले आसतत.ह्या दागांचेर आजून मेरेन खंयच्याच साबवाक मात करूंक येवंक ना. म्हणान काजीनी काम करपी माणसां

**आतां कांय लोक मुट्टया पासून सोरो काडटात. ज्या भागांत तो काडटात त्या भागांत त्या सोऱ्याचो घमघमाट सुट्टा. पण काजीच्या बागांत मात काजींचो विशिश्ट असो वास नाकांत भरान येता. शारांनी हो वास हुंगूक मेळन नाय.**

वेगळेच कपडे काम करुंक वापरतत.

घरा पावतकत 'फाटीतल्यो' काजी वैल्यावयर पाणयान धुवन त्यो घरा फुडल्या खळयांत पसरून थंयतात. केंवात केंवां 'आयज काजी जरा जास्तच मेळ्ळ्या' असो म्हणून तो समादानी जाता. दोंपारा जेवतकत मात्सो आड पडना नाय, इतक्यांत त्याच्या बायलेच्या कानांत कोण तरी येवन कांय बाय फुसफुसता. ती सोमतीच घरकाराक उठयता, "अवो, उठ्ठा मा?" तो जाप दीता, "काय जालां, कित्याक उठयतय? वायच म्हणान आड पडांक दीनत नाय तुमी म्हणान".

बायल सांगता, "आड बीड मगे पडा, आतां पैली जरा काजीनी चला." घोव म्हणटा, "अगो आता, कित्याक? वांयच नीबार उतरानी, मगे जातय.

बायल वैतागता, अवो अशे काय करतात. तो 'गुरवां'चो पांडगो काजनी घुसलाहा. थंयच वचान बगा त्याका.

ह्या आयकाना फुडें तो उठ्ठा, तोंडांत त्याच्या गाळ येता "फटकेचो वाको भरलो त्या पांडग्यार" अशा म्हणत तो काजीच्या बागांत धांवता. अर्दा एक वरांन थंय येवन ताची बायल विचारता, "काय वो गावलो पांडगो?" तो जाप दिता, "हे काजीचेर अशे मेळतत, अटट्ल चोर ते. माझी जाग जाली आनी फाटल्या वाटेतल्यान पळोवन गेलो. उद्या वाटेचेरूच वंय घालून वाट बंद करुया. आयज कश्टाच्यो काजी गेल्यो म्हूण ताका खूप दुख जाले.

काजींक लोक इतको जीव कित्याक त्रासीन उडयतात खबर ना? एक कारण आसूं येतत, काजीच्या उत्पन्नातल्यान मेळपी पयसो. एक काळ असो आसलो की 'तळकोकणांत' 'भात' सोडून वेगळां कसलांच पीक कोण घेय नासलो. बागायती शेती आनी जालेच जाल्यार नाल. पण फाटल्या पंचवीस वर्सांनी लोकांची ही मानसिकता बदलाक लागल्या. 'काजी'चा पीक ह्या कोकणाच्या समृद्धीचा एक प्रतीक म्हणाक हरकत ना. सांच्या वेळार टी.व्ही. वयली सिरील बघताना कोंकणांतलो बागायतदार आपल्या शेजाल्याक काजीच्या मोसमांत विचारता, 'रे, उद्या मंगळवार आसा, मग काजी कोणाकडे घालूंया?" शेजारी सोमतीच जाप दीता, "कोणा कडेन म्हणान काय विचारतस, इतकी वर्सां 'कानेकारा' शिवाय खंय घातलावे काय?"

"तसा नाय रे, तो ठाकुराचो झील, जाग्यार येवन काजी घेता, आनी 'कणकवले' पेक्षा दर जास्त दिता." आतां गावा गावांनी अशें दलाल तयार जाल्यात. त्याका लागान पयली सारक्या काजीच्यो 'गोंठ' घेवन बाजारात विकून रोकडी रक्कम घेवचे दीस आता गेले. बागायतदारांच्या दारांत येवन माल घेवन जाणारे लोक आतां आसत.

खळ्यांत काजी पसरून दवरल्यो काय फाटल्यान आई वो काका येवन तातूंतल्यो हिरव्यो काजी कुशीक काडून दवरीत, त्यांच्यांनी हिरव्यो काजी कुशीक काडून दवरल्यो काय समजाचां, आज रातीकडेन काजीची उसळ, जेवणाक आसताली. घरभर काजीचो दीक जांवक नाका म्हणान आई, काकी गोरवांच्या गोठ्यात त्यो हिरव्यो काजी घेवन बसत. काकी आदाळ्याचेर फकाची दोन भगलां करी आनी आई सारणीची हीर घेवन त्या भकलां मदलो गर काडून आमच्या हातांत दीय आनी, म्हणा, "जावा रे जरा, शिंप्याच्या दुकान वैल्यान कवटां घेवन येवा." हिरव्या काजींच्या उसळीत कवटां घालून म्हावरक जेवणाची रुची, भागवची ही एक पद्दच आसली. आमचेकडे ही परंपरा आजून आसा. दीस बदलत आसत. बागायती कोकणांत मूळ धरता. कोकणांत काजी, आंबे ही नकदी पिकां जोरांत आसत. पण कामासाठी माणसां नात ही वस्तुस्थिती. नकदी पिकांक लागान कोंकणांत पैसो इलो. हालीच कोण तरी बाजारात म्हणा होतो "रे, जेची काजीची झाडां ना, तोय बी आतां शंभर धीलो काजी विकता."

वस्तुस्थिती कायच आसंव, पण आजसुद्दा 'काजी' हे विशय इलो काय 'गकलां' घेवन फुडे वचान काजी काडपी बागायतदार याद जाता. आतां, आतां कांय लोक मुट्ट्या पासून सोरो काडटत. ज्या भागांत तो काडयत त्या भागांत त्या सोऱ्याचो घमघमाट सुट्टा. पण काजीच्या बागांत मात काजींचो विशिश्ट असो वास नाकांत भरान येता. शारांनी हो वास हुंगूक मेळन नाय. म्हणान, 'दादा मडकयकारांचा' गाणां "बागातल्यो फुल्ल्यो काजी, वास परमाळता गे बाय वास परमाळता" ह्या परत परत आयकान, दुदाची तान ताकार म्हणतत तशी भागोवचो वेळ इला.



*('वैभव साटम' हांच्या लेखाचेर आदारीत)*

संपर्क : 9551955523

# शिकून अनाडी

माया अनिल खरंगटे



भाभीक सदचे वरी पांचांक जाग आयली. हांतरुणार लोळत लोळत तिणें आंग सदळ केलें. कालच्यो गजाली येवजितना तिका याद जाली, 'आज दोंगरा वेल्या खोंपींनी वचूं जाय. त्या बायलां मुखार उलोवप आसा. आतां लोळून कोता येना. सकाळचीं कामां करून, कितें उलोवपाक जाय तें बरोवन काडटां.'

भाभी उठून बसली. दोनय हात जोडून तिणें म्हळें, "प्रणाम करूं ठाकुरजी, आखो दिवस म्हारो सारू जावे. म्हज्या सारक्या अनाड्याक सांबाळून घे रे बाबा!"

सकाळचीं कामां सडसडीत करून तिणें बडी आनी चावी हातांत घेतली आनी ती पासयेक वचूंक भायर सरली. वतां वतां तिणें मुखा वेले कुडींत पळयलें. सुशिला उठून देवाक हात जोडून बशिल्ली. भाभीच्या तोंडार हांसो फांकलो... ही सुशिला म्हणून एक, धा-धा मिनटां देवाक पांयां पडत रावता कितें मागता काय ती इतलें?... म्हज्यान एक मिनीट लेगीत हात जोडून रावूं नज. आतां म्हजें कितें मागपा उरलां देवा कडेन... ह्या जिवितांत सगळें सगळें दाखयलें म्हाका ताणें... संकश्टाचे दोंगर म्हजेर उडयले आनी तातुंतल्यान वयरय काडलें. आतां ठाकुरजी तुज्या आपोवण्याची वाट पळयतां...

विचारांच्या वेटाळ्यांत घुस्पत भाभीचीं पावलां वाट चलतालीं.

पंदरा वर्सांची ललिताबेन लग्न जावन पटेलभाईच्या घराब्यांत आयिल्ली. पटेलभाई तांच्या गांवचें सुरतचे कपडे हाडून गोंयांत रस्त्यार बसून विकतालो. वर्स भर ललिताबेन मांय मांवा बरोबर रावली. मागीर कपडे व्हरपाक आयिल्ले वेळार पटेलभाई ललिताबेनाक घेवन गोंयांत आयलो. गुजराथी आनी मोडकी तोडकी हिंदी सोडल्यार तिका आनीक कसलीच भास येय नासली. खोंपी वरी पत्र्यान शाकारिल्लें एका कुडीचें पटेलभाईचें बिराड आशिल्लें. सुरत तिच्या मांयमांवाचें येदें व्हड स कुडीचें घर आसलें. तिच्या कुळारचेंय घर व्हड.

तिका हांगा एके कुडींत रावंक खूब त्रास जालो. पयस बांयचेर वचून उदक हाडचें पडटालें. तें काम मात पटेलभाई करतालो. 'घरांतलीं बाकीचीं कामां तिका गंवसनासलीं. भाकरी करतना हाव हुलपताले. हांगाच्यो भाजयो वेगळ्यो. त्यो कश्यो करप तिका कळनासलें. सुरत तांगेर व्हड व्हड गाडगे भरून दूद, ताक, धंय. हांगा बाटलेंतल्यान इल्लेशें दूद तांगेर घेतालीं. ताचें ताक धंय करप कशें? ललिताबेनीचेर आकांत येतालो. पूण ती हांसत्या मुखाची आनी धिराची. पटेलभाई तिका समजून घेतालो.

ती कितें रांदता तें मुकाट्यांनी जेवतालो. पटेलभाई जाणा आसलो, शेजाऱ्यांक कितेंय विचारतली जाल्यार कोणय गुजराथी तांच्या शेजरा राव नासले.

दुसरी अडचण तिका आसली भाशेची. पूण ललिताबेन हुशार. तिणें मोडकी-तोडकी हिंदी उलोवन शेजाऱ्यां कडेन वळख करून घेतली.

कपड्यांच्या धंद्यांत पटेलभाईक व्हडलोसो फायदो जाय नासलो. कपडे रस्त्यार दवरून विकिल्ल्यान पोंदचे कपडे लोळटाले. ते फुक्या सवाय दिवचे पडटाले. ताणें जायते धंदे केले. कित्यांतच ताका यश मेळ नासलें. मागीर कोणें ताका गॅरेजींत कामाक लायलो. हें काम ताका मना पासून आवडलें. सुरवेक ताका सामको थोडो पगार मेळटालो. पूण म्हयन्या म्हयन्याक पगार मेळिल्ल्यान ललिताबेन लावन पुसून संवसार करताली.

शेजारचे वयनीगेर वचून ललिताबेन कपडे शिवंक शिकली, आनी तिकाच आदार करूं लागली. आपल्याक मेळिल्ल्या चार पयशांनी ती संवसाराक हातभार लायताली.

ल्हवू ल्हवू पटेलभाईन गॅरेजिंतलीं सगळीं

कामां शिकून घेतलीं. आतां तो फिशाल मॅकानीक जाल्लो. ताचो पगारय वाडिल्लो. लग्नाक दोन वर्सां जाता सर तांगेर मुकेश जालो. पावसाच्या दिसांनी तांच्या घरांत ओल येताली. इल्ल्याशा मुकेशाक परत परत थंडी जावंक लागली. दोतोरान तांकां घर बदलूंक सांगिल्लें हरशींय जाल्यार तीं व्हड्लें घर घेवंक सोदतालींच. आतां मुकेशाक लागून तांकां ताकतिकेन घर सोदचें पडलें.

पटेलभाईन आपल्या इश्टाक आपली अडचण सांगली आनी आपलेपासत घरय पळोवपाक सांगलें.

त्याच दिसांनी ताच्या इश्टान एक फ्लॅट घेतिल्लो. ताच्या मुखा वेलो फ्लॅट रिकामो आसलो. भाड्यान घर घेवचे परस तो फ्लॅट विकतो घे म्हणून ताणें सांगलें. बिल्डर त्या फ्लॅटाचेरच लोन दितालो. पटेलभाईन रोखडोच तो फ्लॅट पळयलो. ताका फ्लॅट आवडलो. गॅरेजींत कामाक लागत साकून ताचे कडेन थोडे पयशे जमिल्ले. सुरवेचे पयशे भरपा इतले ते आसले.

ताणें घरा येवन बायलेक सगळी गजाल सांगली.

''जाणा मगो, सुरवेक आमकां खूब त्रास काडचे पडटले.''

''कांय हरकत ना. आमी हाचे पयलीं त्रास काडले नात. एक-एक फावटीं उपाशीं लेगीत रावल्यांत आमी. आतां आमच्या बाबा पासत बरें घर जाय जाल्यार त्रास काडुंकूच जाय न्ही? घेयात तुमी फ्लॅट. हांव कपडे शिंवतांच. थोड्या पयशांचो आदार हांव करतां तुमकां.

ललिताबेन आतां सगळ्यांची भाभी जाल्ली. भाभीन अर्दें पोन्ने मशीन घेवन आपलो धंदो वाडयलो. पयसो येतालो पूण मुकेशाक लागून खर्च वाडटालो. ताचें कांयच कमी करप ना अशें तांणी पयलींच थारायलें. ताका लागून तांकां खूब त्रास काडचे पडटाले. चार म्हयन्याच्या मुकेशाक घेवन भाभी गोंयांत आयिल्ली. ती परत गुजराताक वचूं नासलीं. वोगीच येवपा-वचपाक पयशे कित्याक वगडावप अशें तिका दिसतालें. पूण मुकेशाक हातुंतलें कांयच लागूं दिवप ना अशें तांणी थारायल्लें. तीं ताची सगळी अर्थ अपुरबाय करतालीं.

घराचे हप्ते कमी जाता सर पटेलभाईन स्वताची गॅरेज घाली. थंय जम बस मेरेन परत तांची ओढाताण सुरू जाली. भाभीचे कपडे शिंवपाचो धंदो बरोच वाडिल्लो. तिणें आदाराक एक बायल दवरिल्ली. ती सक्काळीं जेवण करून दवरून कपडे शिंवक बसताली.

पटेलभाईची गॅरेज रोखडीच नांवा रूपाक आयली. ताणें भाभीक शिवणीचो धंदो कमी करपाक लायलो. मुकेशाच्या शिक्षणाचो व्याप वाडिल्लो. ताका घेवन बसचो पडटालो. पूण भाभी गुजराथी चवथी मेरेन शिकिल्ली. तिका मुकेशाच्या अभ्यासांतलें एक अक्षर लेगीत कळ नासलें. ती म्हणटाली, ''हांव शिकून हांगा अनाडी जाली. म्हाका तुमचे इंग्लीशीची एक आडी लेगीत कळना.'' तरीय ती ताचे कडल्यान अभ्यास करून घेताली. ताका ट्यूशनाक हाड व्हर करताली. 'बाबू शिकूंक जाय' हे उमेदीर ती मुकेशाक शिकोवंक बसयताली.

आतां तांची परिस्थिती बरीच सुदारिल्ली. तिणें कामाक एक वावराडी दवरिल्ली. घोवान तिका सगळें भांगर केल्लें, तांणी गाडी घेतिल्ली. शिवणेचो धंदो तिणें पुराय थांबयल्लो. मुकेशा फाटल्यान धांवपळ करतनाच तिचो दीस सोंपतालो. मुकेशा फाटल्यान भाभीगेर आनीक भुरगें जालें ना. तिका चलयेची खूब आवड आसली. ती मुकेशाक चलयांचो भेस घालून आपली आवड भागयताली.

एकटो एकसुरो जाल्ल्यान मुकेशाचे खूबच लाड जाल्ले. तो बरोच हट्टी जाल्लो. आपल्याक जाय तेंच करतालो. भाभी ताच्या अभ्यासा पासत जीव आटोवन घेताली. पूण मुकेशाक अभ्यासाचें पडून वचूं नासलें. अभ्यासा परस ताका बापायल्या गॅरेजींतल्या कामाची चड आवड आसली. कशी-बशी तो धावी पास जालो. अकरावेक अभ्यासा परस ताणें इश्टां वांगडा मजा करपाकच वेळ वगडायलो. आवय कडेन आसनाशिल्ले पयशे बुड्डून व्हरून तो पाटर्यो, पिकनिको मनयतालो. आवयन पयशे नात म्हळ्यार तिचेर हातय उबारतालो. ही गजाल घोवाक कळ्ळ्यार तो बाबूक मारतलो ह्या भंयान ती मुकाट्यांनी सगळें सोंसताली. आपलें मन ती सुशिले कडेन, वावराडे कडेन मेकळें करताली.

अकरावेक नापास जातकर मुकेश मुखार शिकचो ना म्हणून हट धरून बसलो. तो मर्दी-मर्दी गॅरेजींत वतालोच. आतां तो पुराय वेळ गॅरेजींत वचूं लागलो. बापाय भशेन तोय फिशालकायेन गाडयो सारक्यो करतालो. गॅरेजींतल्यान कितेंय निमित्त सांगून पयशे व्हरून आयतारा दीस मौज मजा करूंक वतालो. हांगा पटेलभाई आनी मुकेशाचो वाद जातालो. पूण मुकेश पयशे घेवन वतालोच. बापाय कडेन मेळ्ळे नात जाल्यार भायले भायर गिरायकां कडल्यान पयशे घेवन वतालो. पटेलभाई मागीर घरा येवन बायलेचेर फडफडटालो.

लग्न केल्यार पूण ताचे भायले छंद बंद जातले अशें येवजून पटेलभाईन चोविसाव्या वर्साच ताचें लग्न केलें. गॅरेजींतली बरीचशी जबाबदारी पटेलभाईन ताचेर घाली. जबाबदारी घाल्ल्यान म्हणून जावये अथवा लग्न जाल्ल्यान जावये मुकेश बरोच बदल्लो. ताणें आतां पुरायेन धंद्यांत लक्ष घालें.

लग्न जाल्ल्याक संवसाराच्या गाड्याक खांद मारिल्ली भाभी आनी पटेलभाई सुने-पुताच्या खांदार संवसाराचें वजें दवरून मात्शीं निश्चींत जालीं. तीं आतां तिर्थाटनांय करूं लागलीं. आतां तांच्या घरांत उमेदीची ल्हारां खेळटालीं. मुकेशागेर एका फाटल्यान एक दोन चलयो जाल्ल्यो. भाभीची चलयांची अपुरबाय करपाची इत्सा नातींनी पुराय केली.

ह्याच वेळार पटेलभाईक काळजाचो आताक आयलो. ताका लागून दोन-तीन म्हयने पटेलभाई घरांत उरलो. मुकेश ताका घरांत रावन सुशेग घेवपाचो आग्रो करतालो. भाभीक धन्य दिसलें. 'आमचो पूत बदल्लो हां' तिणें उमेदीन घोवाक म्हळें. पूण पटेलभाईक गॅरेज म्हळ्यार जीव. 'थंय गेल्यारच हांव बरों उरतलों' अशें भाभीक सांगून तो पुता बरोबर गॅरेजींत वचूं लागलो. पुराय धंदो आतां मुकेशान हातांत घेतिल्लो. पटेलभाई वोगीच वचून बसताले आनी येतालो. 'पप्पा,

तुका त्रास नाका.' म्हणत हिशेबाच्यो फायली बी तो ताका दाखय नासलो.

पटेलभाईक मात्शें वायट दिसलें. पूण ताणें आपल्या मनाक समजायलें. तो सद्दां पुता बरोबर गॅरेजींत मात येतालो. आतां मुकेशान दुसरोच हट धरिल्लो. दुकान आपल्या नांवार कर म्हणून तो बापायचे फाटीक लागिल्लो. पटेलभाईन ताची किटकीट नाका म्हणून दुकान ताच्या नांवार केलें. ह्यो भायल्यो गजाली घरांत बायलांक खबर नासल्यो. पटेलभाईक बायलेक कांयच सांगपाची संवय नासली.

तिका पटेलभाई केन्ना केन्नाय पेपरांचेर सय कर म्हणी. ती कितें, काय विचारनासतना सय करताली. तिका लग्ना कारणाक वचूंक भांगर जाय जाल्यार पटेलभाई हाडून दितालो. काम जातकर परत व्हरतालो. भाभी ताका भांगर खंय दवरता - कितें करता कांयच विचारनासली. घोवय तिका कांय सांग नासलो.

दुकान नांवार करून घेतकर मुकेशाची हाव वाडली. आतां तो घर आपल्या नांवार कर म्हणूं लागिल्लो. धंदो वाडोवंक ताका घराचेर लोन काडूंक जाय आसलो.

आतां मात पटेलभाईन ताका सामको नकार दिलो. बापूय-पूता मदीं हांगाच्यान झगडीं सुरू जालीं. पटेलभाईक हो ताण सहन जालो ना. ताका काळजाचो आताक आयलो आनी तो भायर पडलो.

पटेलभाईक वचून पंदरा दीस जातनाच मुकेशान आवय कडेन घराचे पेपर मागले. तिका बाबडेक घराचे कसले पेपर, कितें-कात कांयच खबर नासली. तिणें खबर ना म्हळे बरोबर मुकेश तिका जाय-फाय उलयलो. मागीर तो आत्रे-पयऱ्यान पेपरां खातीर तिका शेडायतालो. ताची बायलय पेपर लिपोवन दवरल्यात म्हणून मांयक फडफडायताली, तिका उर्णी-दुर्णी उतरां दिताली.

घोवाच्या दुःखान रडूं काय सुनेपुताच्या उलोवण्याक रडूं हेंच भाभीक कळ नासलें. हें तिचे सगळे त्रास सुशिला पळयताली. ती तांगेर जेवण-वावर सगळें करताली. ताका लागून घरांत चड वेळ उरताली. सून भायर सरली काय ती भाभीक फुसलायताली.

त्या दिसा मुकेश आनी बायल घर भर घराची फायल सोदतालीं. आरमार उस्तितना सुनेक भाभीचीं भांगरा कांकणां आनी माळ मेळ्ळी. सुनेन तीं आपले आरमारींत दवरलीं. तें पळयतकर इतलो वेळ वोग्गी बशिल्ली भाभी सुनेचेर तापली. पुताचो राग तिने सुनेचेर काडलो. ''आवाज बंद कर रंडी, तुका भांगर जाय घेऽ अशें म्हणत ताणें तिची तकली वण्टीक आपटिली. भाभी निण्णेले वरी जाली. खिण भर रडपाक लेगीत विसरली. सावचीत जातकर जमनीर न्हिदून ती खूब रडली. ते रातीं ती जेवली ना पूण कोणेंच तिची वासपूस केली ना. दोगीय नाती झेल घेवन तिच्या म्हऱ्यांत आसल्यो, पूण आवयन तांकां वोडून भितर व्हेलीं.

ते राती कडेन भाभी हॉलांत जमनीर न्हिदली. पूण कोणेंच तिका भितर वच म्हळी ना. आनी एक पांगरुणय हाडून तिचेर घालें ना.

त्या दिसाच्यान भाभीचे सुनेन तिची कूड आपल्या धुवांक दिली, आनी भाभीक म्हळें, - ''म्हज्या धुवांक अभ्यासाक कूड जाय. तुका एकून हॉलांत न्हिदूंक कळटा, न्हीद हॉलांतच.'' भाभीक संताप आयलो. पूण एकाक दोन उतरां उलयल्यार मुकेश मार घालत म्हणून ती वोग्गी रावली. मुकेशाच्या माराचो तिणें धसकोच घेतिल्लो. ती फकत सुशिला म्हऱ्यांत दुकां गळयताली.

आख्खें घर, दुकानांतल्यो आरमारी सगळें सोदल्यार लेगीत मुकेशाक घराचे पेपर मेळ्ळे नात. घरा येवन तो बापायक चरचरीत गाळी घालूं लागलो. भाभीकूय वायट-वायट उलोवंक लागलो. आपल्या घोवाक मुकेश कड्डिता तें इतले दीस भाभी मुकाट्यांनी आयकताली. निमणें तिची सहनशक्त सोंपली. ती व्हडान आड्डली - ''मेल्ल्या बापायक कितल्यो गाळी घालतलो रे पाड पडिल्ल्या त्या कसल्या कागदांक लागून आमकां कित्याक खाता हांव अनाडीच. तूंय शिकून अनाडी काय कितें तुजीं कसलीं कागदां तीं म्हाका कळटात? सदांच उठून गाळी घालता पळे तूं, किडे पडत तुज्या तोंडाक.''

आवयलीं उतरां आयकून मुकेशाची तिडक मस्तकाक गेली. ताणें रागा भरशीं आवयक बरीच थापटायली. भितर वचून तिचें एक बॅग काडलें. बायलेक सांगून तातूंत तिचे कपडे भरून घेतले. मागीर एका हातांत तिचें बॅग घेतलें आनी दुसऱ्या हातान आवयक धरली, तिका ओडीत घरा भायर व्हरून म्हळें, ''वच तुका जाय थंय, परत म्हज्या घरांत येवची ना तूं.'' इतलें सांगून भितर येवन ताणें घड्ड करून दार धांपलें.

बिल्डींगेच्या भायर आशिल्ल्या दुर्गार बसून भाभी खोळसा फुटून रडूं लागली. 'हे राती कडेन हांव वचूं खंय?' हें येवजून तर तिका रडपाचे कडार कड येताले.

तेन्नाच थंयच्यान सुशिलाची चली राखी वताली. ताणें भाभीक पळयली आनी बेगी-बेगीन तिच्या म्हऱ्यांत आयलें. भाभीन रड-रडत ताका आपली गजाल सांगली. राखीन तिचें बॅग घेतलें आनी तिच्या हाताक धरून आपल्यागेर व्हेली. तांचे बिल्डींगे फाटले झोपडपट्टेंत तीं रावतालीं. तांच्या इल्ल्याशा दोन कुडींच्या घरांत सुशिलान व्हड मनान भाभीक दवरून घेतली.

आपल्याक धूव ना म्हणून भाभी राखीक आपलीच धुव मानताली. तिचे वाडदीस मनयताली. तिच्या बारावी मेरेनच्या शिकपाकूय भाभी आनी पटेलभाईन आदार केल्लो. मुखार ट्यूशनां घेवन ते बी.एड. मेरेन शिकिल्लें. ताका शिर्विसेक लावपाकय पटेलभाईनच आदार केल्लो.

राखी पटेलभाई आनी भाभीक देवा सुवातेर मानतालें. आज भाभीच्या प्रसंगार तें उबें रावलें. भाबी मात्शी जाग्यार येतकच ताणें भाभीची सगळी चवकशी केली. मागीर भाभीक विचारलें, ''भाभी, घराचे पेपर मुकेशभाईक मेळूंक नात जाल्यार वतले खंय? आनी तुजें भांगर आशिल्लें म्हणी तूं, तें खंय गेलें?''

''कोण जाणा बाय, हे म्हाका केन्नाच कांयच सांग नासले, कितेंय आसल्यार भांगर हाडून दिताले, व्हरताले. केन्नाय कित्याचेरय सय करपाक सांगताले.''

-''अशी कशी तूं भाभी? भाई सांगताले

आनी तूं सय करताली?''

- ''हांव सामकें अनाडी बाय. गुजराती केन्ना शिकिल्लें. तेंय आतां देवाचीं पुस्तकां वाचपा इतलेंच कळटा.''

- ''भाभी, म्हाका दिसता भाईन घराची फायल, तुजें भांगर लोकरांत दवरलां आसतलें. तुमचीं खंयचे बँकेंत खातीं आसात खबर आसा तुका?''

-''ना गो बाय. म्हाका कांयच खबर ना. आं, कसलीं बुकां लिपोवन दवर म्हणून हांणी दिल्लीं. हे बॅगांत आसात तीं. दाखयतां हां.

भाभीकडेन पासबूक आसले. राखीचें काम खूब सोपें जालें. राखी भाभीक बँकेंत घेवन गेलें आनी मॅनेजराक तिची सगळी खबर सांगली. मॅनेजरान तिका सगळो आदार दिवपाचें उतर दिलें.

लॉकर भाभीच्या आनी पटेलभाईच्या नांवार आसलो.

पटेलभाईन फायल लॉकरांत दवरिल्ली. फायल घरा हाडून राखी वाचूंक बसलें. वाचतां-वाचतां ताच्या तोंडार हांसो फांकलो. खोशयेन ताणे भाभीक वेंग मारली आनी म्हळें, ''भाभी घर तुज्या नांवार आसा. मुकेशभाई तुका भायर घालूंक शकना.''

भाभी अजापली, ''कितें? हांवें हांकां सांगिल्लें, घर बाबाच्या नांवार कर म्हणून. हांणी म्हज्याच नांवार केलें.?''

सुशिला म्हऱ्यांत आशिल्ली, तिणें म्हळें, ''तुज्या ठाकुरजीचे उपकार मान भाभी. तुज्या घोवान शाणेपण केलां. तुज्या चेड्याच्या नांवार घर केल्लें जाल्यार तूं फटवतली आसली. आतां तुज्या चेड्याक दाखोवन दी, घर तुजें म्हणून तो घरांतल्यान तुका भायर काडुंकच शकना.''

''हय गे सुशिला, कितें हाल काडून ह्या घराचे हप्ते आमी भरल्यात जाणां, याद काडल्यार लेगीत ते दीस नाकात दिसता. अश्या म्हज्या घरांतल्यान ताणें म्हाका भायर काडली. त्या पडमूर चल्याक हांव बुद्द शिकयतलेंच.

राखीचे इश्टिणीचो बापूय आदोगादा कडेन काम करतालो. ताच्या आदारान राखीन मुखा वेली सगळी कारवाय केली.

कोर्टाची नोटीस मुकेशाक मेळटकच मुकेश गडबडलो. ताणें आवयक बऱ्योच गाळी घाल्यो. पूण आवयचे पांय धरले बगर गत्यंतर ना हें ताका कळ्ळें. दोगय चलयांक घेवन तो आवय म्हऱ्यांत आयलो. पूण भाभी मातय कळवळ्ळी ना. ती भायर लेगीत आयली ना. नातीं खातीर मात तिचो जीव चुरचुरलो. पूण ती घट्ट रावली.

सगळ्यो कारवायो जाता सर मात्सो वेळ गेलो. पूण मुकेशाक फ्लॅट सोडून वच्चेंच पडलें. भाबी राखीक आनी सुशिलाक घेवन त्या फ्लॅटांत रावंक आयली.

भाभीन आतां अडचल्ल्या बायलांक आदार करपाचें काम सुरू केल्लें. राखीय तिका आदार करतालें.

''भाभी, पासयेक वचून आयली?'' शेजारचे वयनीन तिका हडकिली, आनी विचाराच्या वेटाळ्यांतल्यान भाभी भायर सरली.

संपर्क: 09420685278

---

(पान १३ वयल्यान)

तशेंच बोली भाशांच्या बाबतींत जाता अशें न्हय तर व्हडल्यो भासो जांकां व्हड साहित्यीक परंपरा आसा अश्या म्हत्वाच्या भाशांक लेगीत जाता. मराठी, गुजराती, कन्नड, ओरीया ह्यो फुडारिल्ल्यो भासो आपआपल्यो मायभासो आसात असोच दावो करपी जे समाज आसात तांच्यांतल्या ल्हान भुरग्यांक आपले भाशेची साप्प थोडीच वळख आसा वा कांयच ना. ते आपलीच भास परकी भाशे इतलीच उलोवंक शकतात.

केळेकार जशे इंग्लीशीच्या व्हडपणांक विरोध करतात तशेच ते कोंकणीक स्वतंत्र भास मानीनास्तना मराठीची बोली मानपाचे दादागिरीक विरोध करतात. केळेकार गोंयांत कोंकणी-मराठी भासां भितर सहयोग आसचो अशें मानतात. ह्या सहयोगा खातीर मराठीन आड्मुठें धोरण आपणायनासतना समजीकायेची भुमिका घेवंची अशें तांचें म्हणणें आसा. कोंकणी ही फकत ख्रिस्ती समाजाचीच भास न्हय तर गोंयांत रावपी मराठी समाजाचीय आसा. तिचो बाकिच्या भासां इतलो जरी विकास जावंक ना तरी ती नेटान फुडें वचपी भास आसा. ही वस्तुस्थिती मानून तिका बोली म्हण हिणसावपाचें सोडून तिच्या विकासाक सगळ्या कोंकणी मनशांनी हातभार लावंक जाय, अशें तांचें म्हणणें आसा. 'मराठी भास सांबाळप आनी उदरगत पंद्रस' निमतान सरकाराचे गूण गावचे परस रविन्द्र केळेकारांचें हें भाशाभान, भाशेचेर मोग करप म्हळ्यार आपणें कितें करप? हें कळपा खातीर पुरो आसा.

नवें जल्माक आयिल्लें राष्ट्र इस्रायल हाचे एलिझेर बेन यहुदा हाणें हिब्रू भाशे खातीर जें केलें तेंच रविन्द्रबाब हांणी कोंकणी खातीर केलें. यहुदा हाणें घरादारांत फकत हिब्रूच उलयतले हे खातीर एक आघाडीच उघडली. ते मेरेन हिब्रू ही भास फकत उलयताले, बरयनाशिल्ले. यहुदान हिब्रूक लिपी दिली. नवीं नवीं उतरां दिलीं. आपल्या भुरग्याच्या कानार हिब्रू सोडून दुसरी खंयचीय भास कानार पडपाक ना हाची ताणें जतनाय घेतली. आनी आपल्या भुरग्याक पयलो हिब्रू जाणां जावपी, उलोवपी आनी बरोवपी नवो नागरीक म्हण संवसारा मुखार हाडलो.

संवसारीकरणाच्या दबावा पोंदा चडावत भाशा ना- नपयत जावपाच्या मार्गार आसात. प्रादेशीक भाशेंत बरोवप करपी बरोवप्यांनी आप-आपले भाशे खातीर झगडपा खातीर सदांच तयार आसपाक जाय. कारण रविन्द्रबाब म्हणटात ते प्रमाण दर एक रायटरान पयलीं फायटर आसपाक जाय.

संपर्क : 9923306751

# थंड्साण आनी ओघ

मुकेश थळी



सादेपण, खाजगीपण, स्पश्टता अशा कितल्याश्याच विशयांचेर हांव येवजीत आसतां. थंड्साण म्हळ्यार calmness हो चिंतनाचो असोच एक विशय.

बाकीचे रफ वागतात, दुखयतात, अपमान करतात तेन्ना थंड्साण आनी थिरताय बाळगप ही एक साधनेन साध्य करपाची कला. आमी कितेंच नियंत्रित करूंक शकनात ही अणभवान शिकिल्ली गजाल. म्हणटकच हाता भायर आशिल्ल्या दुसऱ्याच्या वर्तनान आपणें ती गजाल भितरल्या भावनीक इमोशनल पांवड्यार मनाक कित्याक लावन घेवची? दुसऱ्याक माफ करप हाचो अर्थ ताचें सूज्य वागणें मानून घेवप न्ही. कारण ते सकयले पांवड्या वेले गजालीन म्हजें भावनीक विश्व मात्तूय विचलीत करूंक फावना. दुसरी गजाल म्हळ्यार कोणूय आपसुलाद आनी उर्मट, अती दावकुलां मारूंक लागलो जाल्यार ताका सडीक भायरीय दिवची. पूण तो राग सात्वीक जाय. भितरले शांतीक आनी थंड्साणेक बादा हाड्नासतना तें घडूंक जाय.

मनाची थंड्साण बाळगप ही एक साधना. ताचो सराव सदांच नेमान करूंक जाय. ते खातीर मुद्दम कितेंच करचें पड्ना. जिणेंतले दिसपट्टे प्रसंगूच आमकां ते खातीरची परिक्षा दिवपाक लायतात. पाशियेंस सुटून स्फोट जाता शें दिसता, तेन्ना ती सत्वपरीक्षा थारता. ते खातीरचीं कारणां आसतात हजार.

तूं नालायक, तूं गाड्व अशें कोणेंय म्हळें, तेन्ना ताका रिएक्ट जावपाची गरज आसना. थंय थंड्साणीन रिस्पॉंड जावप गरजेचें.

कोणूय व्हड आवाजान उलयता वा गाळी घालून खेपता जाल्यारूय तेंच. आपणें तें घेवप आसना. कारण तें ताचें दुबळेपण.

बरो शाणो मनीस म्हूण विकसीत जातलो जाल्यार थंड्साण बाळगुपाचो सराव नेमान जाय. कारण तातूंत शांती आनी आनंद भरला.

वादळां वेळार भितरल्यान थंड आनी शांत रावप गरजेचें.

संताचें पयलें लक्षण म्हळ्यार ते शांतीप्रिय आसतात. Calmness म्हळ्यार थंड्साणेंत बुडिल्ले आसतात. चिर शांती.

पचपचीत सुवाद नाशिल्ल्या मोटव्या वृत्ती पसून ते खूब, खूब, उंच, उंच, गोड, गोड मनीसपणाचे फ्रिक्वेन्सीचेर उफेत आसतात.

बंगालचो फामाद संत योगानंद हाचें एक वाक्य म्हाका याद जायत आसता. गायकाच्या कानसुलां कडेन निनादपी तंबोरो ताका सुरार दवरता, तशें हें वचन म्हाका calmness चो रियाज करतना निटायेर दवरता. तें वाक्य अशें- Be calmly active and actively calm.

### ओघ

कितल्याश्याच जाणांक संवय आसता. दुसरो कितें सांगता तें आयकुनूच घेवप ना. दुसरो उलोवंक लागलो काय एका मिनटा भितरूच ताका मदींच आडावन आपणें उलोवप. दुसऱ्याचें उलोवप थोडें तरी आयकून घेवंकूच जाय. तातूंतल्यान संवाद घडटा. दुसऱ्याचें आयकना आनी मदींच उलयता तेन्ना तातूंतल्यान वाद जावं येता.

आयकून घेवपाक थोडीशी सोशीकसाण लागता. सहनशीलता चड न्ही. इल्लीशी. लक्ष दिवन आयकूंक जाय. कला ती. जण एकल्याक कितें तरी सांगपाचें आसता. ताचो मान दिवंक जाय. मानसोपचार तज्ञ आनी मनोविज्ञानीक पिड्तिांच्यो मानसीक समस्या समजुपाक आयकतात. लक्ष दिवन आयकतात. भितल्लो ओघ नांवाचो वारो वतकरूच घुस्मटपी मनशाक बरें दिसता. तो ओघ सांठून उरतकच कितल्योश्योच समस्या उपरासतात.

भितर कितें तरी खदखदत आसता तेन्ना आमी कोणाक तरी तें सांगूक सोदतात. समस्या, दुख्खां, दुविधा व्यक्त करून जातकच जिवाक सू जाता. इश्टांक सांगतात. लागींच्या विस्वासू सोयऱ्यांक वा इश्टां कडेन मेकळेपणान उलोवन घेतात. मागीर जीव हलको जाता.

लागींचे मित्र एकठांय येतकच ढवळे, चांचायो, चाड्यो हांकां अनुपचारीक उलोवण्यांत ओतो येता. खतखतो येता. कितल्याश्याच गजालींची वाफ घालोवंक मेळटा. थोडीशी तासंपट्टीय जाता. पूण तातूंत विखार आसूंक फावना. अमक्यान अमकें केलें, आपणें पासियेंस काडलें आनी ताका माफ केलो पूण ताचें वागणें आपसुलादूच अशें कोणाक तरी सांगपाचें आसता. अशा वेळार हयो गजाली आनी खबरी बऱ्याक पड्टात.

जण एकल्याच्या मनांत कितें तरी सांचत आसता. दुसऱ्यान आपणाक दुखयल्लो तें सोंसून घेतिल्लें दुख्ख व्यक्त करपाचें आसता. एकाद्या विशीं राग आसता. तो भितर उरतकच ठसठसत रावता. तो ठसठसपी फोड निवळ करपाची गरज आसता. खबरी करून उलोवन जातकच हो ओघ वता.

ल्हान भुरग्याक व्यक्त जावपाचें आसता. तरनाटे आसूं, जाणटे आसूं वा म्हातारो, जण एकल्याच्यो समस्या आसतात. ओघ भरिल्लो आसता. ताका वाट करून दिवपाची आसता. हो ओघ घालोवपाकूच गोपनीयता राखपी लागींचे विश्वासू इश्ट जाय आसतात. घोव बायलेक वा बायल घोवाक सगल्योच समस्या सांगूंक शकनात. तेन्ना तीं इश्टांक इश्टिणींक सांगतात.

ढवळे हो ओघ घालोवपाचो एक प्रकार. ढवळ्यां विशीं खूब जाणांनी बरयलां. दत्ता दामोदर नायक हांणी ताचेर दीर्घ लेख बरयल्लो याद जाता. कथाकार शीला कोळंबकार हांणी तर साहित्य म्हणजे कितें? साहित्य म्हळ्यार ढवळ्यांक कलात्मक पांवड्यार दिल्लें एक रूप, अशें म्हळां.

बरोबर तें. अणभवान सांचिल्लें व्यक्त जावपाक भितर कुचकुचूंक लागता आनी लेखक वेगळ्या वेगळ्या कलाकृतींच्या रूपांत ताका आकार दिता. केन्ना कथा, कविता, गीत, नाटक, एकांकी.... खूब लेखकांनी म्हळा. वेगळी आपजीण कित्याक बरोवं? आयज मेरेन बरयलें तीच म्हजी आपजीण. हाचोच अर्थ लेखकान पिकिल्ल्या अणभवांक वाट करून दिल्ली आसता. रायनर मारिया रिल्के म्हणटा, 'बरयनासतना जगूंक शकता जाल्यार बरोवं नाका.' रिल्केच्या सांगणेचो आपरोस - खरें साहित्य हें भितरलो ओघ, राव नजो जावन व्यक्त जाल्लें, कलेचें एक रूप.

दुख्खां सगल्यांकूच. बायलांचींय दुख्खां अनंत. हांगा याद जाता एका सिनेमाची. तातूंत एके बायल मनशेच्या तकलेंत निंदानालस्ती, चेपणां, ताण, दबाव, घुस्मटमार, दगदग हांणी त्रासून वादळांच घोंघेवंक लागतात. तिका कोणाक तरी सांगपाचें आसता. ना जाल्यार आपले तकलेचो फार जातलो अशें दिसता. तिका इश्टीणी कडे उलोवपाचें आसता.

ऑफिस सुटना फुडें ती तुरतुरीत भायर सरता. तरातरा चलपाक लागता. ऑफिसाचे गेटी भायर एक गाडो आसता. च्या वाल्याचो. ती बसीक उबी रावता. तिची नदर च्या चे किटलेचेर वता. तातूंतल्यान भुरूभुरू करून वाफ नेटानेटान भायर सरत आसता. पड्डो भर ते किटलेचें चित्रिकरण दाखोवन कल्पक दिग्दर्शकान ओघ घालोवपाक सामकी हुतहुतेपणान उमळशीकेन वाट पळोवपी ते बायलेचें भावविश्व प्रतिकात्मक रूपान दाखयल्लें ताची याद जाता.

कुकराची शिटी वाजता तशी भितर भरिल्लें, भायर ओतपाची प्रेरणा जाता. हो तीव्र ओघ घातलो म्हणटकच भितरल्या मन मळबांतले दाट काळे ढग पयस जातात. भितरलें भावनीक पर्यावरण आनी मानसीक परिसर निवळ जाता. संगणकाचो पड्डो रिफ्रेश जाता तसो! निचरो जातकच भितरलें मळब चक्क नितळ उरता. हारशा सारकें पारदर्शक...

संपर्क: 9423056755

# अदमासपंचे धावोदरशें

कृ. म. सुखठणकार



'अदमासपंचे धावोदरशें' अशी एक म्हण आसा. हांवें ती शाळेंत आसतना आयकल्ली. पाढे पाठ करपाची गरज ना ते अदमासानूच म्हणपाचे, असो हांवें म्हजे परीन तिचो अर्थ लायिल्लो. पाटील गुरूजीन, ते म्हणीचो तसो अर्थ न्हय पाढे पाठ करपा खातीरूच आसतात, हें म्हाका आपले पद्‌दतीन समजायलें आनी म्हाका तें समजलें. पुणून ती म्हण म्हज्या मनांतल्यान कशीच गेलिना. म्हणी काय वयल्यान पडनात, त्यो हांगाच हेच मातयेंत तयार जातात. म्हणटकच ही म्हण कशी तयार जाल्या आसतली हें जाणून घेवपाची उमळशीक म्हाका आशिल्ली. हांवें हे विशीं सावळ्याक विचारलें.

''हो आमचो भारत म्हणून देश आसा पळय न्ही तो आयज मेरेन अदमासपंचेच चलत आयला. चड फाटीं वचपाची गरज ना. बाकिच्या देशांनी तांचें बजेट आसता, आमचें अदमासपत्र. आमच्या देशांत अदमासपत्र तें कुटुंब नियोजन सगळेंच अदमासपंचे म्हणटकच ही म्हण ह्या देशांत, हे मातयेंत तयार जाली म्हणून अजाप जावपाची कांयच गरज ना''- सावळो.

आमचें कुटुंब नियोजन अदमासपंचेच, हाचो हांवेंय अणभव घेतला म्हणटकच सावळो कितें म्हणटा तातूंत बऱ्या पैकी तथ्य आसा हाची जाणीव म्हाका जाली. आमचो देश हो कृशीप्रधान देश अशें सगळे म्हणटात, म्हणटकच हांवूय म्हणटां. ह्या देशाची अर्थवेवस्था कृशीचेर निंबून आसा अशें अर्थतज्ञ म्हणटात, खरें फट देव जाणा. हें म्हजें मत बिकॉमाक पस्तीस प्रतिशें पडिल्ले ताचो परिणाम. इतलेंय आसून आमचे शेतकामती भाव मळबाक दोळे लावन पावसाची वाट पळयतात. वेळार पावस पडलोना जाल्यार देशांतली सगळीं दिसाळीं शेतकामती दोळ्यांर हात दवरून मळबाक तेळयात हो फोटो पयल्या पानार छापून आपलें कर्तव्य पार पाडटात. एका कृशीप्रधान देशाच्या शेतकार भावाचेर मळबाक दोळे लावन बसपाची पाळी कित्याक येवची? हाची जाप, आमचें हवामान खातें आयचे तारखेक हवामानाचो कारबार अदमासपंचेच चलयता. आमचो टायगर, रेडव्यार बाजाराच्यो दरो आनी हवामानाचो नियाळ मनरिजवणी खातीर आयकतालो. मे म्हयन्यांत आमगेर पापड आनी वोड्यो करपाचो बोवाळ आसतालो. म्हणटकच टायगर रेडवो आयकून हवामान खात्यान केल्लो अदमास आईक सांगतालो...

''आगे, गोंयच्या कांय वाठारांनी घोग्यांनी पावस पडूं येता, कांय वाठारांनी मध्यम प्रमाणांत पावस पडूं येता आनी कांय वाठारांनी मळब नितळ आसतलें पूण थंय पन्नास ते साठ किलोमिटर ह्या वेगान वारें व्हांव येता. गोंयच्या नुस्तें पागप्याक विशेश शिटकावणी कांय ना. आतां रायबंदर खंयच्या वाठारांत पडटा तें तूं थाराय आनी पापडांची पिठी कालोवंक घे. गोंयचे दर्यावेळेर पागपाक तूं वतली जाल्यार वच विशेश शिटकावणी कांय ना.''

टायगरान आईक हवामान खात्याचो अदमास सांगचो आनी खोऽखोऽ करून हांसचें.

''हळद लागूं तांच्या अदमासाक! हांव हांकां फाल्यां कवळ्यां धाडटां आनी मागीरूच पिठी कालोवंक घेतां.''

आई देवतेक प्रसाद लावन पिठी कालोवंक घेताली. हवामान खात्यान आज कोट्यांनी रूपया खर्च करून रडारां घेतल्यांत पूण तांचें खातें अजून अदमासपंचेच करता. आई आयजूय देवतेन प्रसादार सांगत जाल्यार मिर्गार लेगीत पिठी कालयता, तुमचे म्हायती खातीर. हाचो अर्थ हवामान खात्यान कवळ्यां प्रसाद लावन हवामान सांगचें अशें हांव म्हणना. आसूं.

जाणटेपणांत कमी आयकुपाक येतकच आमी ओंठांचे हालचाली वयल्यान फुडलो मनीस कितें उलयता हाचो अदमास काडटात. हाचे खातीर ओंठांचे हालचालीचो अभ्यास गरजेचो. हो अभ्यास नासत जाल्यार अदमास चुकून तातूंतल्यान भलतोच अर्थ काडून अनर्थ घडूं येता. हिका (आपले) ओंठ पिटपिटयवपाची संवय आसा. म्हाका अजून बऱ्या पैकी आयकूंक येता तरी आसतना हिचे संवयेक लागून म्हाका हिच्या ओंठांचे हालचालीचो अभ्यास करचो पडलो. हांवें हिच्या गळ्यांत हार घालतकच हिणें ओंठ पिटपिटयले. बसप्पान (ब्रास बॅण्ड बाणसतारी पुला जवळ) तेन्नाच 'मळ्याच्या मळ्या मदी कोण गं उभी' वाजोवंक घेतिल्लें आनी हिचें लग्न एकदाचें जालें म्हणून व्हंकलकारांचो बोवाळ. हांवें हिचे ओंठ पिटपिटल्ले ताचे वयल्यान हाराचे झिगीक लागून हिचे फाटीक खाज सुटल्या असो अदमास काडलो आनी तो खरो थारलो. मागीर हांवें आनी नलून हिची फाट खरपिली. हाका लागून म्हाका आत्मविश्वास सो आयलो. मागीर एक दीस आमी पंचमीक कवळ्यां गेल्लीं. ही 'महिलानी ह्या बाजूला बसावे' त्या अर्दान बशिल्ली. बुवाचें किर्तन रंगार आयिल्लें. प्रभू रामचंद्र निक्तोच वनवासाक भायर सरिल्लो. सितामाई फकत वल्कलांच न्हेसपाची आशिल्ल्यान तीय रोखडीच भायर सरल्या आसतली असो म्हजो अदमास. हांव तो प्रसंग आयकुपांत गूंग जाल्लों.

'मागी नाव न केवटु आना कहई तुम्हार मरमु में जाना'.

श्री राम केवटाक साद घालता पूण केवट कसोच आयकना. केवट प्रभू रामचंद्राचें आयकना तें पळोवन लक्ष्मण फुरफुरपाक लागलो

तसो बशिल्ले कडेन हांवूय फुरफुरपाक लागलों.

'जों प्रभु पार अवसिगा चहहू मोहि पद पदुम पखारन कहहू.'

अशें केवटान म्हणूनाका तशें म्हाका सूऽऽ जालें. इतल्यान 'महिलानी ह्या बाजूला बसावे' वटेंतल्यान हिणें दोळे घुंवडावन (आपले) ओंठ पुटपुटायले असो म्हाका भास जालो. हांव अयोध्ये वटेन फुडो करून बशिल्लों तो महिलांक फुडो करून बसलो. हिणे परत ओंठ पुटपुटायले आनी दोळे घूंवडायले. हांवें अदमास लायलो, दनपारचें पेडव्यां सुकें हिणें धांपलां काय ना हाची चिंता हिका जाल्या, केवट रामचंद्राक होड्यांत बसयना हाचें हिका पड्न गेल्लें ना.

''चिंता नाई करु भन्साघर में हम सब देखने चलौन. मच्छ सब झनपल चलाई''.

हांव केवट आनी प्रभू रामचंद्राच्या संवादांत भितर सरिल्ल्यान म्हजी भास बदल्ली हें तुमच्या लक्षांत आयलां आसतलें. हांगा कारण नासतना लोकांची भास बलदता. आसूं.

म्हजो पलतडी बशिल्ले हिचे कडेन संवाद आयकून बुवान आंग काडलें. 'मंत्री, कमाविसदार ह्यांची बसायची मानाची जागा' ह्या खांब्याक तेंकून न्हिदिल्ल्या कमाविसाराच्या कानार 'मच्छ' हें उतर पडलें आनी तोय जागो जालो. सगळ्या म्हाजनांचीं तोंडां पळोवन हांव उबो रावलों.

''बद्द दुखी भेलाऊ बिदा देल जाऊ''.

अशें म्हणून हांव कडसरलों. श्री राम वनवासाक वच्चें पयलींच हांव हिका घेवन चौकार आयलों. हिच्या नाकाचो तांबडो कोर पळोवन कितें तरी भयंकर घडलां हाचो म्हाका अदमास आयलो.

''तुमकां हांव सांगतालें देवतेक न्हेसयलां तें कापड पळयात, जात्रे कडेन पावणेर काडत जाल्यार घेवपाचें म्हणून.''

''आगो म्हाका दिसलें तूं विचारता पेडव्यांचें सुकें धांपिल्लें काय म्हणून.''

''लग्नाक वर्स जायत आयलें तरी बायल कितें सांगूंक सोदता ताचो अदमास येना तुमकां. देवते सामकार असलें अभद्र हांव उलयन? तुमी अजून वळखुना म्हाका?''

''आगो तुंवे ओंठ पुटपुटयले आनी दोळे घुंवडायले ताचे वयल्यान म्हजो अदमास.''

''तेंच म्हणटां हांव. दर खेंपे हांवें तोंड उगड्न फोड्न सांगपाक जाय?''

अशें म्हणून ही सरळ कोमिसांवांच्या ऑफिसांत वचून बसली आनी हांव म्हजो अदमास खंय चुकलो हाचेर विचार करीत हिचे फाटल्यान गेलों. आसूं.

आमची जाणटेल्यांच्या संस्कारान वाडिल्ली पिढी. जाण्टेलो बराबर आसत जाल्यार, खंयचेय गजालीक पयशे लागत जाल्यार ते जाणटेल्यानूच दिवप हो एक संस्कार आमचेर जाल्लो. जाणटेलो बराबर आसतना नेण्ट्यान (आपल्या) बॉल्सांत हात घालप म्हणल्यार तो जाण्टेल्याचो अपमान अशें आमकां जाणटेल्यांनीच सांगिल्लें. तर, एक दीस भाऊ (खांडेपारचो) आनी हांव फोंडेचे बसीर रायबंदरा चडले. बसपाक आमकां एकठांय सीट मेळ्ळेंना. भाऊ फुडें बसलो आनी हांव फाटल्यान. कंडक्टर फुडल्यान तिकेटी मारपाक लागलो. तो भाऊ म्हऱ्यांत पावतकच भाऊ उठलो, फाटल्यान मान करून म्हाका पळयलें आनी कितें तरी म्हणलें. त्या फार्गो बशीच्या आवाजान म्हाका आयकूंक येवपाक शक्यूच नाशिल्लें. तिकेटींचे पयशे हांव दितां तूं दिवनाका अशें भाऊन म्हणलां आसतलें असो अदमास हांवे लायलो कारण भाऊ म्हजे परस पिरायेन कितलोसोच व्हड. म्हज्या बारश्याक आटवल लेगीत ताणें खाल्लें अशें एकदीस आमच्या सालांत खुंट्याळ्याक आपली जुदी आनी तोपी लायतना ताणें म्हाका सांगिल्लें, तुमचे म्हायती खातीर. भाऊ करमळे देंवले उपरांत कंडक्टर म्हजे म्हऱ्यांत पावलो आनी ताणें पयश्यांक हात फुडें केले.

''करमळे देंवला त्या जाणटेल्यान म्हजी तिकेट काड्ना?''- हांव.

कंडक्टरान ना म्हणून मान हालयली कारण ताच्या तोंडांत पान भरिल्लें.

''ताणें उबो रावन म्हाका पयशे दिवनाका म्हणिल्लें तें तुंवें पळोवना? ताणें ओगीच तशें म्हणलें तर?''- हांव.

आतां कंडक्टराचे दोनीय पोले फुल्ले, तो म्हाका कितें तरी सांगपाचो यत्न करता आनी ते करपाक ताका कश्ट पड्यत हें म्हाका कळ्ळें. मागीर तो पंचेचाळीस अंशान म्हज्या सिटार बागवलो, एक कोंपोर फुडल्या सिटाच्या दांड्यार दवरून म्हजे दोनीय पोले घट्ट धरले आनी म्हाका कितें कळचे आदींच म्हजें तोंड कुशीक काड्न तो जनेलांतल्यान थुकलो.

''आरे पापया ताणें पयशे दिवना. ताणें उबो रावन मान वांकडी करून दोगांयचे पयशे तूंच दी म्हणून सांगलां. तूं कितें समजलो?''

''ताणें ओंठ हालयल्ले ते पळयलेले, ते भायर तो जाणटो...''

''एक रूपया बारा आणे उडय तुमचें तुमी घरा पळयात नाजाल्यार मागीर वसूल करून घे.''- कंडक्टर.

म्हाका त्याच दिसा आईन सुमनाक (आमची म्हस) पेंड हाडपाक बारा आणे दिल्ले ते घालून हांवें तिकेट फारीक केली. सोड. हांवे आईक पयश्यांचो हिशोब दितना हें सांगलें तेन्ना तिणें जाणटेपण येता तशें बुद्धी भ्रश्ट जाता अशें कितें तरी म्हणून म्हज्या हातार बारा आणे तेंकयले. सोड. गोंयांत सगळेच जाण पुटपुट्न उलयतात आनी ताका लागून अदमास गरजेचो अशें कोणेंय मत करून घेवंचें न्ही. हांगा पंच्याणव प्रतिशें लोक कानांत आड्डतात असो म्हजो अभ्यास सांगता. म्हजो कान (उजवो) हाकाच लागून फ्राक जाला.

जे टिव्ही पळयतात तांकां क्रिकेटीचें बरें गिन्यान आसतलें. क्रिकेटींत लेगस्पिनर आसता. तो ओवरींत मनांत मारता तेन्ना गुगली घालता. हो बॉल गुगली काय लेगस्पिन हें बोलराचे हाताचे हालचाली वयल्यान बॅट्समनाक थारावचें पड्य. तो हें अदमासानूच करता अशें म्हजें मत.

जांचे बोलिंगेचेर हो अदमास काडप शक्य जालोना ते बोलर अजरांवर जाले. देखीक, शेन वॉर्न, आमचो बी.एस.चंद्रशेखर. आमच्या वाड्या वयलो किसन लेगस्पिनर आशिल्लो. ताणें 'मी चंद्रशेखर होणार आणि चॅपोक मैदानावर गुगली टाकणार' अशें सांगिल्ल्याचें म्हाका याद जाता. बुद्धीबळ हो खेळ अदमासानूच खेळचो आसता अशें आमच्यांनी म्हणूं येता. तो खेळटना तोंडां सुतकीं करून बशिल्ल्यान तो खेळपाक बुद्द लागता असो लोकांचो समज जाला. फुडलो खंयची चाल खेळटलो हाचो अदमास लागत जाल्यार फुडल्याक सहज मात दिवं येता असो म्हजो अभ्यास सांगता. आमी शाळेंत शिकतना आमचे शाळेंतले हुशार भुरगेच बुद्धीबळ खेळटाले. हो एक योगायोग. हांव णव्वेक आसतना शाळेचे सर्तीत वांटेकार जावपाचें हांवें थारायलें. म्हाका 'सो कॉल्ड' हुशार भुरग्यांची मक्तेदारी मोडून काडपाची आशिल्ली. हांव फादर थोमसाक वचून मेळ्ळों.

"Sir chess is game of guessing what is going on in opposite player's mind ok. I am good at guessing. I do same thing while answering exams you must be knowing. Given a chance I will take our school to greater heights in sports ok?"

फादर थोमसाक कितें जालें खबरना ताणें म्हाका ओके ओके म्हणलें आनी म्हाका आमचे शाळेचे वतीन बुद्धीबळांत खेळपाची संद दिली. पयल्या पांवड्यार म्हजी गांठ पणजेच्या एका मक्खश्या भुरग्या कडेन पडली. ताणें सोदा बाटलेच्या पोन्ना वरी वक्ल लायिल्लें ताका लागून म्हाका ताचे दोळे दिसनाशिल्ले. सर्त सुरु जाली. म्हजो पेदो सात आठ घरांनी पासय मारून येता थंय आसा म्हजे वटेन पेदे म्हणुनाका, घोडे म्हणुनाका, उंट म्हणुनाका सगळ्यांच्या कुडीच्यो राशी पडल्यो. म्हाका कळचे पयलींच म्हज्या राजान बेंऽ म्हणलें.

"Opposite party was wearing thick glasses hence I could not look into his eyes and guess what is going on in his mind hence this defeat. Better luck next time".

हांवें म्हज्या पराजयाचें कारण फादर थोमसाक सांगलें.

आमच्या पानार जेवणाच्या नांवा खाला जे जिनस पड्यत ते सगळे अदमासानूच रानीर शिजिल्ले आसतात. सगली जेवणाची जिनसांच्यो रेसिपी पळयत जाल्यार निमणें 'चवी पुरते मीठ' अशें बरयलेलें आसता. आतां 'चवी पुरते मीठ' कितलें घालप हाची मात्रा खंयच बरयल्ली नासता आनी ती बरोवपूय शक्य नासता. जांकां प्रेसांवांची पिडा आसा तांची मात्रा दोतोर तांकां फी फारीक करतकच रोखडी सांगता. पूण जांकां कसलीच पिडा ना तांच्या जेवणांत मीठ कितलें घालप हें खंयच बरयल्लें नाशिल्या कारणान घरांतली अन्नपुर्णा तें अदमासानूच घालता. हो अदमास तिका सारको नासल्यार तें जेवण अळणी वा खार जावंयेता. ही नवीन लग्न जावन आयली तेन्ना हिचें जेवण अळणी जाता हें आमकां तें भक्षण करतकच कळ्ळें. 'श्यामची आई' वाचिल्ल्या कारणान थोडे दीस आमी ओगी रावलीं. पासियेंस सोंपतकच हांवें जेन्ना हिका कारण विचारलें तेन्ना हिणें आपल्याक माळूण चाबिल्ल्याक अशें जाता अशें सांगलें. एक दीस हांवें सहज रांदचेकुडींत वचून नदर मारली. ही शिजोवंक दवरलेल्या सगळ्या जिनसांचेर आमी व्हंकल न्हवऱ्याचेर अक्षदा उड्यतात तशी मीठ उड्यताली. तें पळयतकच म्हाका म्हाकाच माळूण चाबिल्ले वरी दिसलें. हांव अळणी तोंड करून भायर आयलों. मागीर आमचे उरिल्ले फामिली मेंबर भितर गेले आनी तांचींय तोंडां म्हजे वरीच जालीं. शीतकडी आमचें (गोंयचें) 'स्टेपल फूड' अशें सगळे कडेन आमकां वाचपाक मेळटा. हांव अशें कित्याक म्हणटां असो खूब जाणांक प्रस्न पडला आसतलो. कोंकणी गोंयकारांची मायभास अशेंय आमकां वाचपाक मेळटा. पूण सगळेच गोंयकार तशें म्हणनात. थोड्यांची मायभास मराठी, थोड्यांची इंग्लीश, थोड्यांची रशियन जाल्ल्याची सावळ्यान म्हाका सांगलें तेन्नाच्यान हांवें स्टेटमेण्ट करपाचें सोडून दिलां. तर, शीतकडी आमचें स्टेपल फूड अशें धरूया. थोड्यांक जांकां गोडेमुताचें आसा तांचे दोन फुलक्यो, सुकी भाजी आनी दोतोरान दिल्ल्यो गुळयो हें स्टेपल फूड जालां तांकां आमी कुशीक दवरुया. शिताक कितलें घालप हाचो अदमास घरचे अन्नपुर्णेक आसप गरजेचें नाजाल्यार फजेती जावंयेता. घरांत पावणो आयिल्लो आसत आनी शिताक दाय मारतना आवाज जालो जाल्यार पावणो फाटलें शीत घेवचें काय ना ह्या विचारांत पड्टा. असो विचार ताणे चड करीत जाल्यार ताचो जेवता तो हात लेगीत सुकूं येता. नलू तांगेर पावणे येवपाचे आसत जाल्यार, तांदूळ कितले काडूं हें विचारपाक म्हाका फोन करता कारण ताका मात्तूय अदमास ना.

''भावोजी, शिताला किती पेले काडू?''

''किती पावणे येणार? आनी ते मागचे पुढचे घेणारे की भिडेस्त पावणे ते आदी सांग?''

''पावणे चार पण ते आरोंद्याचे आहेत. मागे आले होते तेव्हा त्यांनी रस्सा चार पेले घेऊन पिला होता. जेवणा आदी बाहेर जाऊन बसणार म्हणे.''

''तसं असल्यार साडे चार पेले काड. सुरवातीला सगळं थोडं थोडं वाड त्याना पाहिजे असल्यास मागून घेऊ दे आपल्या भटजीकडे कसं करतात तसं.''- भावोजी.

''थँक्यू भावोजी लव्ह यू''.- नलू.

घरांत आयिल्ल्या पावण्यांचें बरें आसा पूण लग्न कार्याक बी केटरराक कितलीं पानां सांगचीं हें थारायतना अदमास चुकत जाल्यार अनर्थ जावंयेता कारण हांगा घराण्याचे प्रतिश्ठेचो प्रस्न आसता. केटरर दाल तड्का, मूग बी असले जिनस उदक घालून आपली पाककला पणाक लावन वाडेवंक शकता पूण ताकाय खंय तरी मर्यादा आसता. बाकिचे जिनस वाडेवचे पडल्यार कार्य सिद्धीक व्हरपी 'श्री' लेगीत

तुमकां हात दिना. हे खातीर असलीं कार्यां आसत जाल्यार अदमास हांगाचो थंय जावपाक जायना. तशें जाल्यार केटरर तुमची देख गोंय भर दिवपाक मेकळो जाता.

"शिरवैकारान केल्लें तशें तुमी करू नाकात आं. वीस पंचवीस पानां चडूच सांगात."

अशें तो मेळटा त्या येजमानाक सांगत सुट्टा. मागीर येजमान, शिरवैकाराल्या लग्नाक कितें जाल्लें, असो प्रस्न करतकच तो मागीर फ्लॅशबॅकांत वचून सगळो लग्नाचो सुवाळो येजमानाच्या दोळ्यां सामकार उबो करता. सोड.

कोणागेरूय भितर सरतना, तें कित्याक, आपल्या घरांत लेगीत भितर सरतना, भितरल्या वातावरणाचो अदमास घेवनूच भितर सरप गरजेचें. नाजाल्यार तुमच्या मुडाचो आनी घरांतल्या वातावरणाचो मेळ जालोना जाल्यार घात जावंयेता. असोच फार्टी हांव दनपारां घरा आयलो. ही रांदचेकुडींत आशिल्ली, कितें करताली खबरना.

"आगो, बाजारांत मिसेस पोरोब मेळिल्ली. माथ्यार न्हाल्ली दिसता. सामकी 'घर' सिनेम्यांतले रेखा वरी दिसताली" हांवें खोमीस काडीत म्हणलें.

"तुमी टोवेल गुंडाळून तिचे फाटल्यान वचपाचें न्ही. 'घर' सिनेम्यांत विनोद मेहरा तेंच करता तें पळोवना तुमी? फकत रेखान मानेर सोडिल्ले केंसूच पळयले?"

ही नाक सामकें तांबडें करून भायर आयली. हें म्हजे खातीर अनपेक्षित शें आशिल्लें. मिसेस पोरोबान केंस सोडून बाजारांत येवचें आदीं 'तुज्या दोळ्यां सकयलीं काळीं वर्तुळां गड्द जाल्यांत आं' अशें म्हणून हिचो मूड ऑफ केल्लो अशें म्हाका मागीर आई कडल्यान कळ्ळें. ईन फॅक्ट तीं वर्तुळां हांवेंय पळयल्लीं पूण म्हाका तांचो त्रास जायना म्हणटकच हांव तोंड धांपून ओगी राविल्लों. सोड. हांव कोणागेरूय भितर सरतकच, 'सगळें बरें न्हय' असो येजमान आनी येजमान्नीक प्रस्न करतां. तांचे जापे वयल्यान घरांतल्या वातावरणाचो अदमास घेतां. येजमाना कडल्यान 'काड्यां दीस' अशी जाप येतकच हांव, 'ना रे. हांव हांगाच कामा निमतान आयिल्लों. तुमची खबर घेवपाक भितर सरलों' अशें म्हणून कडसरतां. येजमान्नी कडल्यान 'आमी फॉर्त, म्हजे हातचें वेळचीयुक्त पने घेयात, सामकें चिल्ड' असो रिस्पॉन्स येतकच हांव ते अन्नपुर्णेच्या हातचें दनपारचें जेवण जेवले बगर भायर सरना. देशाचे शिमेर जितलो तणाव आसता ताचे परस चड तणाव घरांत आसता. ताचो अदमास घेवनूच फुडली कारवाय करप शाणेपणाचें अशें म्हजें मत.

देशाचें आनी राज्याचें अदमासपत्र आसता तशें दर एकल्याचें खर्चाचें अदमासपत्र आसप गरजेचें, चड करून परक्या गांवांत वतना. आज क्रेडीट कार्डस्, पावला पावलाचेर एटीएम आसा ती गजाल वेगळी. तरी लेगीत आपल्याक कितलो खर्च येतलो हाचो अदमास प्रवासाक भायर सरचे पयलीं आयिल्लो बरो. नलूच्या लग्ना उपरांत हांव ताचे खबरेक गेल्लों. हिची हांव मागतां ताचे परस अर्दान पयशे दिवपाची संवय म्हाका नडली. निमणे सपट लोशन (पावसाचे दीस आशिल्ले) घेवपा खातीर पयशां खातीर नलू मुखार हात फुडें करचे पडले. हे खातीरूच हांव म्हणटां दुसरे सुवातेर वतना तरी खर्चाचो अदमास काडून ताचे परस मातशे चड पयशे व्हेल्यार घात जायना. सपाट लोशन घेवपाक तरी दुसऱ्या कडेन हात फुडें करपाची पाळी येना. मनीस आपल्या मुडा प्रमाण वागता हें तुमकां तुमच्या अणभवा वयल्यान खबरूच आसतलें. फुडलो मनीस कसो वागतलो, कितें करतलो हाचो सादारण अदमास आपल्याक आसप गरजेचें. सादी गजाल सांगतां, शाळेंत आसतना पाटील गुरूजी आज कसल्या विशयाचो तास घेतलो (आतां तासाचो पिरेड जाला) हाचो अदमास आमकां केन्नाच आयलोना. हाका लागून आमच्या (दत्ता आनी हांव) शिक्षणाचेर खूब परिणाम जालो म्हणल्यार जाता. पूण चलयांक तें गणीत बरोबर जमिल्लें हाका लागून तांचे फुडें कल्याण जालें (तातूंतलीं दोग तीग जाणां समाज कल्याण खात्यांत चिकटल्यांत).

"गुरुजी, तुम्ही आज इतिहास घेणार असा आमचा अदमास होता. मध्येच हे तुमचे आरोग्य आणि स्वच्छता कुठून आली?" दत्ता बेजारतालो.

"हो तर आणि काय" हांव बारीक आवाजान म्हजो तेंको जाहीर करतालों.

"शिवाजी महाराजाना जिजाई दररोज आंघोळ घालत होत्या. ते दररोज आपली नखं कापत होते. म्हणुनच अफझल खानाची भेट घेताना त्याना वाघ्रनखं घालावी लागली" अश्यो जापो आमकां बरोवच्यो पड्टाल्यो. इतिहासा वयल्यान म्हाका याद जाली, शिवाजी महाराजांचे स्वराज्य स्थापनेंत गमिनी काव्याचो व्हडलो हात आसा हातूंत मात्तूय दुबाव ना. गमिनी काव्याक लागून दुस्मानांक शिवाजी महाराजाच्या सैन्याचो थाव केन्नाच लागलोना. शिवाजी महाराज कसली चाल खेळटले हाचो अदमास तांकां आयलोना. शिवाजी महाराजान हे खातीर दुस्मानांक चड्शें मैदानांत केन्नाच तोंड दिलेना. तांकां दरी दोंगरांच्या कोनश्यांनी गमिनी कावो खेळून चेंचले. दुस्मानांक आपले चालिचो अदमास येवंक दिवप ना हातुंतूच येसाची गुरु किल्ली आसा ही देख आमकां हातूंतल्यान मेळटा. आतां दुस्मान कोण आनी गनिमी कावो खंय खेळप हें तुमी थारावपाचें.

सायबांचे भाशेंत 'A known devil is better than an unknown angel' वा 'Do not venture into unknown water' बी अशें म्हणटात. ताचो अर्थ जाचो तुमकां अदमास ना तातूंत तुमी मेतेर जावनाकात. पूण आयचें यूग सर्तीचें, हांगा धोको पत्करलोना जाल्यार फाटलो फुडें पावतलो. अश्या वेळार अदमासान मारिल्लो तीर लक्ष्याचेर लागप गरजेचें. आमचे 'अदमासपंचे धावोदरशें' करपाचे दीस सरले अशें म्हाका खेदान म्हणचें पड्टा.

संपर्कः 9850530756

# जिणेंतलो ताण तणाव उणो करपी लिखाण

परिक्षण

कोंकणींत विनोदी लिखाण करपी साप्प थोडे. तातूंत कृ. म. सुखठणकार सध्याक आघाडीचेर आसात. हालींच तांचे चवथें विनोदी लेखांच्या संग्रहाचें पुस्तक उजवाडाक आयलां. कोंकणींतले आनीक एक फामाद विनोदी लेखक स. अ.ना. म्हांब्रे हांचे उपरांत चार कोंकणी विनोदी पुस्तकां उजवाडाक येवपाचो मान मेळोवपी हो दुसरो लेखक.

पिरायेच्या उसरां पांवड्यार काय जायनां कृ. म. सुखठणकारान कोंकणी विनोदी साहित्याच्या मळार एक घणघणीत पावल घालें आनी फाटलीं स-सात वर्सां तांचो तो वावर सातत्यान चालू आसा. कृ. म. सुखठणकारान हालींच्या तेंपार 'मरगळ' आयिल्ल्या कोंकणी विनोदी साहित्याक नवी 'संजिवनी' दिली म्हळ्यार अतिताय जांवची ना.




संवसारांतल्या चड्श्या विनोदी लेखकांची सुरवात पिरायेच्या उसरां जाल्या. घड्ये उसरां बरयिल्ल्यान तांचे अणभव विश्व वाड्य आसूं येत, प्रसंगां कडेन पळोवपाची वेगळी नदर लाभूं येत, कारण अशे पिरायेच्या उसरां लिखाण केल्ले विनोदी लेखक चड येसस्वी जाल्यात. कृ.म.चें बहुप्रसवी लिखाण हें ताचें जितें जागतें उदाहरण.

अ.ना. म्हांब्रे आनी कृ.म. सुखठणकार ह्या दोगांय भितर म्हाका सारकेंपण जाणवता तें हें कि हे दोनूय विनोदी लेखक आसूनय तांचो तो गंभीर चेरो, उपाट वाचन आनी स्मरणशक्त आनी सरभोंवतणीच्या सगळ्या गजालीं कडेन बारकायेन पळोवपाची फिशालकाय.

६ फेब्रेर २०११ दिसा 'सुनापरान्तांत' छापून आयिल्लो पयलो लेख ''मैं अण्णा हूं'' ह्या विनोदी लेखा वरवीं कृ.म.न कोंकणी विनोदाच्या मळार पयलें पावल घातलें. ६ फेब्रेर २०११ ते आयज मेरेन विंगड -विंगड नेमाळ्यां वरवीं कृ.म.न आमकां फाटलीं ७ वर्सां कांयच खंड पडूंक दिना आसतनां, सेगीत अशे ३४० ते ३५० विनोदी लेख, विनोदी डायरी, विनोदी नाटकुलीं, विनोदी नभोनाट्यां वा विनोदी रहस्य कथा आमकां दिल्यात. कोंकणींतल्या आयज मेरेनच्या विनोदी लेखांचो आंकडो मतींत धरल्यार कृ.म.चें ह्या विनोदी मळावेलें योगदान खूब व्हड्लें आसा.

कृ.म.च्या विनोदी लेखांनी साबार विशय आसपावतात. तातूंत राजकारण, समाजकारण, विज्ञान, नाटक, सिनेमा, शेरो- शायरी, रामायण, महाभारत ही महाकाव्यां, संत साहित्य, टागोर, शेक्सपियर अशे फामाद लेखक हांचो आस्पाव जाता.

गोंय, गोंयकार आनी गोंयकारपण हो अ.ना. प्रमाणेच कृ.म.चोय आवडीचो विशय. गोंयकारांचे सबावगूण, खाण - जेवणां, चाली रिती, उत्सव, सण हांचेर तो आपल्या विनोदी शैलीन भाश्य करता. आमच्या सरभोंवतणीं, आमकां पावला कणकणी मेळपी विंगड-विंगड पांवड्या वयल्या लोकांच्या विसंगतीचेर आपल्या विनोदी शैलीन कोणाकच दूखय नासतनां बडी मारपाची कृ.म.ची कळाशी तोखणाय करपा सारकी. हें सगळें आंखतना ताणें केल्लो कोंकणी मनश्याच्या सभावगुणांचो, मानसिकतेचो अभ्यास आनी निरक्षण शक्तीक हांका दाद दितां. मालवण ते मंगळूर मेरेन कोंकणी मनश्याचो एक विशिश्ट सभावगूण आसा. पु.ल. देशपांडे, मधु मंगेश कर्णीक आदींनी ह्या विशयाचेर खूब बरयलां. कृ.म.नय ह्या कोंकणी मनश्याच्या सभाव गुणाचेर झगझगीत उजवाड घाला.

कृ.म. हो एक प्रगल्भ लेखक. कृ.म.चें साहित्य हें आगळें वेगळें, तांची शैलीय बी आगळी वेगळी. कोंकणींत ह्या तरेच्या साहित्याचो प्रयोग हाच्या आदीं जावंक ना. हें साहित्य मनरिजवणेचें साहित्य न्हय. एकाद्रो विशय केळयतनां कृ.म. आपल्या प्रथम पुरुशी निवेदनांतल्यान फकत वातावरणच फुलयना तर आपल्याकय तातूंत बांदून घेवन आपल्याचेरूय (लेखांतल्या नायकाचेरूय) विनोद करपाक तो अनमनना. हें करतनां तो मनश्याचें मानसशास्त्र, तत्वगिन्यान, शेरोशायरी, महाभारत, रामायण ह्या महाकाव्यांचे, संत साहित्याचे, विंगड-विंगड भारतीय आनी विदेशी लेखकांच्या फामाद कलाकृतींचे संदर्भ घेता. इतलेच कित्याक तर सिनेमां आनी तांतूंतले पदांचोय आदार घेता. हें सगळें सांगतना सिनेमा प्रदर्शीत जाल्लें वर्स, ताचे गितकार आनी संगितकार हांचीय म्हायती तो वाचप्यांक दिवपाक विसरना. ही सगळी म्हायती एकशेंएक टक्के खरी आसता. हाचे वयल्यान लेखकाचो व्यासंग वाचप्यांक जाणवता.

हांवें वयर म्हळां तशें कृ.म. बरयता तसलें साहित्य रचपाक भरपूर वाचन आनी निरक्षणशक्त जाय पड्य. हें गांठ्वल जाय तेन्ना मुदयेर थीक कशें सोडोवचें पड्य. ताचो अणभव आमकां तांच्या सगळ्या लेखांनी दिसून येता.

'धोंगां आनी पोंगां' ह्या २५० पानांच्या पुस्तकांत वट्ट ३१ विनोदी लेख आसपावल्यात. हे सगळे लेख वाचतकच वाचकांक आपले गूण, अवगूण दिश्टी पड्यत. लेखांतले कांय प्रसंग वाचतकच आपल्याकूय अशेंच घडलां अशें ताका दिसता. तो अंतर्मूख जाता आनी ताच्या तोंडार हांसो फुलता.

ह्या सगळ्या लेखांची विस्कटवणी करून तातूंतलो विनोद सभेमाजार हाडप ही सोंपी गजाल न्हय . हें करप म्हळ्यार सूर्याक हारसो दाखोवपाची गजाल! हो आनंद वाचप्यांनीं स्वःता वाचून अणभवपाचो. हे सगळे लेख वाचतकच तुमच्या जिणेंतले ताण-तणाव आनी पिरंगण खंयचे खंय नाच्च जातली हाची म्हाका खात्री आसा.

ह्या पुस्तकाक नामनेचे साहित्यीक दिलीप बोरकार हाणीं

अभ्यासपूर्ण अशी प्रस्तावना बरयल्या आनी तें बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडलां. ह्या पुस्तकांचें मुखपृश्ठ आनी फाटलें लेखकाचें व्यंगचित्र थोड्याच काळा भितर नामना मेळयिल्लो गोंयचो सुपूत, युवा कलाकार संकेत लवंदे हांणी काडलां आनी तें ह्या पुस्तकाची सोबाय वाडयता.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**धोंगां आनी पोंगां**

बिम्ब प्रकाशन

पानांः२५०, मोलः२०० रुपया



# पडसाद

## 'जाग' सकस वाचनाचो आनंद दिता

अस्नोडा, १३/२/२०१९

**संपादपी,**

तुवें आनी मा. राजूबाबान मायेमोगान धाडलेलो 'जाग' म्हयनाळ्याचो फेब्रुवारी २०१९ चो आंक मेळ्ळो. आंक वाचून खूब खोशी जाली आनी आंक आवडलो. खूब सोबीत मुखपृश्ट आनी विनोदी लेख, कथा, कविता, मुलाखती अशा विवीध आंगांनी आंक वाचकांक सकस वाचनाचो आनंद दिता.

'जाग' म्हयनाळ्याचो हो आंक हातात पडतगेर आनी मागीर वाचतगेर दोन गजालींचे म्हाका सखेद आश्चर्य जाले.

पयली गजाल म्हणजे, गेली पंचेचाळीस परस चड वर्सां चलपी हें म्हयनाळे, एक नीज गोंयकार जावून हांवें केन्ना वाचूंक ना हाचे, आनी दुसरी गजाल म्हणजे ताका लागून हांव कितल्या बऱ्या साहित्याक मुकलो हाचेय बी.

पुणून 'जाग' म्हयनाळ्याच्या समस्त टिमीचे खूब कौतूक की तुमी ही साहित्याची दिवली इतलो तेप म्हणजे जवळ जवळ चार तपां तेंवत दवरली. म्हजो काका सर्गेस्त श्रीराम पांडुरंग कामत (विश्वचरित्र कोशकार) आनी म्हजो बाबूय श्री. जयराम पांडुरंग कामत हे एक 'मांडवी' नांवाचे मासीक (मराठी) अस्नोडा हांगसून चलयताले. १९६२ सालांत सुरू केल्ले हे मासीक डिसेंबर १९६९ पर्यत तांणी चलयले. मागीर आर्थीक गणीत जुळना जातगेर ते बंद करचें पडले. ताका लागून एक साहित्यीक म्हयनाळें चलोवप कितलें कठीण काम हाची म्हाका जाणीव आसा.

सर्गेस्त रवीन्द्रबाब केळेकार ते सर्गेस्त माधवीबाय सरदेसाय, आनी आता तूं, असो हो तीन पिळग्यांचो सोबीत साहित्यीक प्रवास ४५ वर्सां चालू आसा. तो तुज्या उर्बेन आनी उर्मेन फुडें व्हरता ताचें खूब खूब कौतूक आनी अभिनंदन. तुका फुडल्या वाटचालीक खूब शुभेच्छा. 'जाग' म्हयन्याच्या कुटुंबाचो भाग जावपाची इच्छा म्हणून एका वर्साची पटी डी.डी. रुपान धाडटा.

देव बरें करूं.

**- अरुण जयराम कामत**

संपर्क : 9890695241

*(पान ११ वयल्यान)*

आसा. साहित्य रचतां रचतां, पोटाचें काम करतां करतां ते सामाजीक कामाक खांद मारतात. तेन्ना सत्तरीच्या लोकां खातीर ते आपले मनीस जातात. लेखकान स्वांतसुखाय जावपाचे दीस आतां उरूंक नात. जाता तितलें लोकां खातीर वावुरपाची आनी लेखणी झरवपाची गरज आसा.

इतल्या सगळ्या उपक्रमांचो सेगीतपणा आनी दर्जात्मक चडटो आलेख पळोवन आनीक एक ह्या यशाची गोम कळटा आनी ती म्हळ्यार 'साहित्य मंथन सत्तरी', 'आमचो पंगड', 'वाळवंटी संवर्धन अभियान', 'वाळपय मॅरेथॉन' हाका कोणाकूच अध्यक्ष ना. आमचे कडेन पयशे नात, तिजोरी ना म्हण तिजोरेर ना. सगळ्यो कार्यावळी दर एकल्याच्या बोल्सांतल्यान पयशे काडून जातात. खुर्ची ना म्हण कोणाचो अहम दुखावना आनी कोणाच्या अहमाची अपुरबाय ना. सगळे हक्क सगळ्यांक आनी सगळीं कर्तव्यां सगळ्यांचीं. सगळेच अध्यक्ष, सगळेच स्वयंसेवक अशें काम करप कठीण म्हण दिसूं येता. पूण वयल्या देखीं वयल्यान अशें काम जाता आनी ते बरें तरेन जाता म्हणपाचें दिसता.

आमचे भितरलो प्रत्येक जाण दुसऱ्यांचें नांव माचयेर घेता. माचये खातीर घेता. तेन्ना आतां आनी आमकां माची जायी? ती संद नव्याक दिवया म्हण विद्यार्थ्यांक वता. हे विद्यार्थी सुत्रसंचालन, उपकार, पुस्तकार उलोवप करतात. चडशे फावटी तत्काळ जापसालदारकी गळ्यांत घालतात. तितूंतल्यानच आमी शिकतात, घडटात. एकमेकांक घडयतात. मुजरत कांय नांवां घेता, डॉ. प्रकाश पर्येकार, नमन सावंत, गोपीनाथ गांवस, काशिनाथ नायक, राघोबा पेडणेकार, अविता गांवकार, अशोक नेने, राजीव बर्वे, सारिका नायक.

संपर्कः 9765031800

## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| | नामो | : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव - गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. | संपादपी | : आसावरी नायक |
| | राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| | नामो | : २०१ - बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव - गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**

उजवाडावपी

# कविता

## दोन कविता

**परेश कामत**

### म्हाळसा : तीन कळा

१.

काळखाक
कांय सांगिनासतना
तूं यो समजून

काळखाक
समजुपाचें समजूं दी
तूं तुका जाय तें समज

समज-
काळ्याकिट्ट कुपांचो हो
काळोख सगळो

तूं यो म्हाळसा कशी
शिसवी आंगार
उमास न्हेसून...

२.

फांतोडेक
कांय सांगिनासतना
तूं यो समजून

फांतोडेक
समजुपाचें समजूं दी
तूं तुकाय जाय तें समज

समज -
धव्याफुल्ल जायांचो हो
शुभ्रधवो उजवाड

तूं यो म्हाळसा कशी
न्हात्या आंगार
पुनव न्हेसून...

३.

तूं म्हाळसा:
काळाचे हुंबरे हुपून
तुजें हें येवप
कळेकळेन फुलून
अशें
तिनूय-त्रिकाळ
वेळा-अवेळा...



## एकांताची सावळी

न्हीद सावळेंत
सावळी जावन

रम एकांतांत
मुंगरून एकामेकांत...

पळय,
एकांताची सावळी पडल्या
सगळे कडेन-

पळय,
सावळी आनी एकांताचो
चल्ला समागम
एकांताक आयला फुलोर :
सावळेक घमघम...

संपर्क: 9422640210



## चारोळ्यो

**उषा ज. कामत**

रंगयाळीं पानां
रंगयाळीं फुलां
सैम भुरकटला
जानेर भुल्लूसला

दुखदिणी गजाल देखली
काळीज रडलें मोन्यानी
खळी घालीत वयर वयर हांसो
कळ्ळी ना कोणाक हुलपावणी

शिंयाळ गडद जालो
कुडकुडो वाडलो
जानेराक येवकारतना
सैमय थिजलो

फुटपाथार न्हिदतल्यांक
कुडकुडो खातलो
फातरा काळजा मेरेन
पावतलो तांचो उलो?



## केन्नाय

**अरुण साखरदांडे**

केन्नाय
फांतोडेर, किण्ण काळखांत
सकाळीं दवांची कोवळीं किर्णां आंगार घेतनां
कडकडीत दनपारां
मळबांत घोणी गोल प्रदक्षिणा काडटना
गोंधुळी
भांगरा वळारी घोटेरा कडेन उडटना
मध्यानराती एकटेपणांत
केन्नाय
कान दिवन आयकात
वेळी अवेळी
पयसुल्ल्या गोल घुमटांतल्यान
एक करूण उलो
घूम घूम घुमत
तुमच्या कानांत खोल घुसत
कदाचीत
वन मश्ट बी ऑलवेज रेडी
जण एकल्यान सदांच तयार रावंक जाय
मागीर सगळेंच सोंपें जाता
पारजत फूल झडयता तशें
अचळय.



## अंधश्रद्धेचो बाजार

**विष्णु कोळगेकार** (कारवार)

भस्म सिंदुराचो लेप लावन फीरतात गांवांगांवांत.
कोण रहीम कोण राम
कोण जाता साधू संत।
हातांत जपेमाळा एतभर दाढी अलग तें न्हेसण.
कांय लोकांक पिश्यार घालतात अंधश्रद्धेच्या नांवान।
मठ आश्रम घाल्न तेका नांव दितात भक्तिधाम.
हें तें सांगून तेम्कां फसवचेंच हेमचें काम।
नोकरे धंद्यांत यश मेळचें जाल्यार घालचो पडटलो होम.
आयतार बुधवार पळोन हें करचें पडटले काम।
कोण काळाची कर्णि बादता तुमकां आनी पोरतारांक।
वेळार तो कर्णि काडना जाल्यार तुमका पडटलें म्हारग।
आज्या पोंज्यानी देवाली सांगणी पावैली ना देवाक.
सांगणी पावली ना म्हण राग येयलो म्हारवा गिरवाक।
शिमेवैल्या म्हारवाक थंड करूक दिवची पडतली रक्ताची सडी.
त्या खातिर दिवची पडतली
एक काळ्या कोंब्याची जोडी।
ह्या संकट मुक्तीचो मार्ग म्हणलार ह्या माठांत करा अखंड साधना.
सगळे ऐश्वर्य आमका दान करा सोडून फक्त घरची आयदना।
भक्ती साधनेन मुक्ती मेळतली म्हण अख्खे कुटुंब अंधश्रद्धेन भुल्ले.
हरवे सोत्ताल्या या पाखंडी बाबाक आयतेच भाजीले मेळ्ळे।
आयुश्याच्या वाटेर हमी स्वताचीच कन्न घेतात होळी.
केन्ना केन्ना हे बाबा दिवू लायतात हेमगेल्या पोराचिच बळी।
कोण सांगतलो हेम्का ही वाट मरणाचे सांपळे.
मठ आश्रम सध्या जातात ढोंगी बाबाचे भोगभुमी हे केन्ना हेम्का कळतले...
हे केन्ना हेम्का कळतले...

संपर्क: 7768992848



